जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक ९ : मे २०२२

● **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

● **संपादपी :**
आसावरी नायक

● **अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

● **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

● **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुआ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● **छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-



## मांडावळ...



**भायलें चित्र :** कालिदास सातर्डेकार.
**भितल्ली चित्रां :** भारत जगताप, निशीत बोरकार.

संपादकीय

## एका नव्या मोडणार पावल घालतनां...

'जागा'च्या सगळ्या वाचप्यांक आमी खुशालभरीत जीण आंवडेतात. आयज तुमचेकडेन आमकां मनांतल्यान मायेन संवाद सादपाचो आसा. तुमकां खबर आसतलीच कीं आनीक तीन म्हयन्यांनीं जाग ४९व्या वर्सांत पावल दवरतलो. फाटल्या पन्नास वर्सांत कोंकणींत साबार नेमाळीं आयलीं आनी चडशीं बंद पडलीं. पूण 'जाग' मात दरेक आंका वांगडा नवी तेंगशी हुपीत आसा. तुमकां सगळ्यांक कोंकणी भास, कोंकणी चळवळ, कोंकणी साहित्य हांचे कडेन आशिल्ली 'जागा'ची लागणूक खबर आसाच. काळा प्रमाण तिका नवी दिका, नवें रुप, नवे आयाम दिवपाचो आमचो सदांच येत्न आसतलो.

'जाग' आतां एका नव्या मोडणार पावला. वृत्तपत्र नोंदणी कार्यालय नवी दिल्ली हांचे कडेन 'जागा'ची परत नोंदणी करची पडल्या. ही प्रक्रिया वेळ काडपी आशिल्ल्यान फाटलें वर्स भर 'जाग' धा रुपयांची टपाल तिकेट लावन तुमच्या मेरेन पावता. देखून आमी 'जाग' म्हयनाळें 'नवी जाग गोंयकारांक' ह्या नांवान नव्यान नोंदणी करपाची प्रक्रिया सुरु केली आनी ती पुराय जाली. आतां आमकां भारतीय टपाल खात्याची आदले भशेन सुविधा घेवपाक मेळटली. नांवांत ठळक अक्षरांत पयलीं भशेनच 'जाग' हें नांव आसतलें. ही मांडावळ थोड्याच काळाखातीर आसतली. तो मेरेन 'जागा'चें आदलेंच नांव कायम करपाक स. सुमंतबाब केळेकार हांच्या घरच्यांकडेन आमची भासाभास चालू आसा. ह्या प्रक्रियेक मात्सो वेळ वतलो. तो मेरेन 'जागा'चे वाचक ह्या नव्या नांवाकडेन संवकळ करुन घेतले हाचेर आमचो भरवंसो आसा. बाकीचें 'जागा'चें अर्थकारण पयलीं भशेनूच उरतलें. जाणी वर्गणी भरल्या तांका, 'जागा'च्या लेखकांक आनी जायरातदारांक हें नेमाळें 'नवी जाग गोंयकारांक' पयलीं भशेनच पावतलो. नव्या 'जागा'च्या दर्ज्या कडेन आमी कसलीच तडजोड करचे नांत.

'जागा'चो मे म्हयन्याचो आंक तुमचे मुखार दवरतना खूप खोस भोगता. २१ एप्रिल दिसा कोंकणींतलो एक खडेगांठ लेखक आनी नाटककार भौ. पुंडलीक नारायण नायक हांणी आपलो सत्तरावो वाडदिस मनयलो. 'जागा'चो हो आंक आमी पुंडलीकबाबांक ओंपला.

आर्विल्ल्या कोंकणी नाटकांचे मुळावण भौ. पुंडलीक नायक हाणी आपल्या काव्यमय अशा नाटकांनी घालें. तांच्या नाटकांच्या संवादांक एक तोंकाळपण आसा. नाटक आसूं, कथा आसूं, कादंबरी आसूं, एकांकी वा कविता आसूं, तातूंत गोंयच्या मातयेंतलो, कुळागरांतलो, लोकजिणेंतलो, जिणेंतल्या वास्तव सुख-दुख्खाचो आनी सैमाचो दरवळ आनी परमळ दिसता. तांची नाटकांची आनी साहित्याची निर्मणी विपूल आसा. आयच्या तरणाट्यांनीं ह्या प्रतिभावान साहित्यिकाच्या साहित्याचो अभ्यास करचो.

सदचे भशेनूच भरगच्च साहित्यान नटिल्लो हो आंक तुमकां मानवतलो हातूंत दुबाव ना. फुडाराक नव्या 'जागा'कय आमच्या वर्गणीदारां कडल्यान, लेखकां कडल्यान आनी जायरातदारां कडल्यान आदले भशेनूच सहकार्य मेळटलें अशी आस्त आमी बाळगीतात.

***



# पुंडलीक नायक – शिंगां दाखोवन पुजून घेवपी लेखक

**प्रकाश द. नायक**

गोंयची मुक्ती साठाव्या दशकांतली. स्वतंत्र गोंयांक हे मुक्ते उपरांतूच पांखां फुटपाक सुरवात जाल्ली. फाटल्या कितल्याशाच वर्सासावन चिड्डून उरिल्लो भौजन समाज फुडें येवंक सोदूंक लागिल्लो. केन्ना न्हय तो भौजन समाज सरकार नांवाचे व्यवस्थेंत पाविल्लो. ग्रामपंचायतीच्या वेंचणुकांतल्यान गांवगीरो भौजन मनीस, गांव सुदारणेच्या चालीक लागलो. आनी ह्याच भौजन समाजाक कळून आयलें की, आमी फुडें येतलें जाल्यार शिक्षण खूब म्हत्वाचें आसा. भौजन समाजाचेंच सरकार वेंचून आयिल्ल्यान गांवां-गांवांत शाळा सुरू जाल्यो आनी खऱ्या अर्थान शिक्षण प्रक्रियेक सुरवात जाली.

सत्तरच्या दशकाआदीं तेन्नाचो हो भौजन समाज एकाद्र्या भाटकाराचो मुंडकार म्हणून वा एकाद्र्या शेताचो रयत म्हणून वावुरपाकूच धन्यताय मानतालो. शेतां-भाटांनी वावुरतना खूब कश्ट करप, आपलें आनी आपल्या कुटूंबाचें वेंतभर पोट भरपा खातीर आपल्या वांगडा गोरवां सयत मर मर मरप हेंच ताचें ध्येय आसलें. हे इतले कश्ट काडून लेगीत तो स्वता केन्ना जाग्याच्या वा भाटाच्या कुडक्याचो धनी जालोना.

तशें पळोवंक गेल्यार अश्या कश्टकरी घराण्यांनी खूब जाणांचो जल्म जालो, पूण तांचे स्वताचे कश्ट, तांचे उत्फर्के, तांचें सूख-दुख्ख, तांच्यो वेदना सांगपाक कोणाक जमलेंना. पूण शिक्षणान एक चमत्कार घडयलो. पयलेच खेपे भौजन

समाजांतली एक नवी पिळगी बरोवंक- वाचूंक शिकली.

अशा वेळार २१ एप्रील १९५२ ह्या दिसा वळवय - फोंडचे भाट वाड्यार जल्माक आयिल्ल्या पुंडलीक नारायण नायक ह्या तरनाट्या भुरग्यान आपल्या भौसाच्यो व्यथा सांगपाचें शिवधनुश्य आपल्या भुजार घेवन आपल्या शिक्षणाच्या बळग्यार आनी लेखणेच्या आदारान भौसाची एकेक काणी तो सांगत रावलो. ते खातीर तांणें केन्ना कविता हें माध्यम स्विकारलें जाल्यार केन्ना कथा हें माध्यम स्विकारले. पूण हें सांगपाचो ताचो आंवाठ जेन्ना वाडलो वा कविता-कथेचो कॅनव्हास ताका उणो पडपाक लागलो तेन्ना नवलिका, एकपात्री, एकांकिका, कादंबरी, नाटक आनी गरज पडल्यार सिनेमा सारकिल्लें माध्यम तांणें आपणायलें.

बैल हो भौजन समाजाचो पोशिंदो. कश्टकरी समाजान ताचो उपेग शेतांत करचो. तो बरो उरल्यार आपलें दोन वेळचें पोट भरतलें हो भावार्थ. नांगरतना वा मळटना ताचे फाटीर चुकून लेगीत एक बडी पडचीना हाचेर धनयाचो कटाक्ष. तेच धनयाचे परंपरेंतल्यान आयिल्लो पुंडलीक नायक. देखून त्या पोशिंद्या बैलाचेर तो बरयता. तो आपले 'बांगर बैल' हे कवितेंत म्हणटा,

*'एका बांगर बैलान आतांच दावें तोडलां*
*गवण मोडून भल्ल्या गोठ्यांतल्यान....*
*बैल कासऱ्या कानयेक बदना*
*बैल चेंचूंक जमना बैल विकूंक फावना*
*बैलाक म्हज्या किरोवंदी*
*जाय तसो मिरोवंदी*
*बैल फुडल्या पाडव्या येंवचोना*
*पुजे खातीर तिश्टचोना*
*जाय तसो जाय तेन्ना येतलो*
*शिंगां दाखोवन पुजून घेतलो*
*बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो उद्धारी*
*बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो वारस'*

हो 'बांगर बैल' दुसरो तिसरो कोण्ण न्हय तर तो स्वता पुंडलीक नायक- कोंकणीचो बांगर बैल. पुंडलीक नायकान आपले पौगंडावस्थेंतूच त्याच त्याच परंपरीक विचारांचें दावें तोडलें आनी अंधश्रद्धाळू विचारांची गवण मोडून (बैल भल्ल्या गोठ्यांतल्यान गेलो खरो) हो पुंडलीक वेगळ्या (कोंकणी) विश्वांत गेलो.

(गवण - दोन वटयां दोन बैलांक बांदतात. ते वटेनचो बैल हे वटेन येवंचो न्हय म्हणून आनी तांची धेंपां एकमेका मेरेन पावची न्हय म्हणून दोनूय वटांनी आडमेळीं घालतात. दोनूय वटयां ह्या आडमेळ्यां मजगतीं जी सुवात उरता थंय ह्या दोनूय बैलांक खाण घालतात, तण घालतात. तें मदले सुवातीक गवण म्हणटात.)

(कासरी म्हणल्यार एक दोरी जी बैलाच्या पोटा भोंवतणी आवळून दोरयेची दोनूय पोतां कांय जाणांनी ओडून धरप आनी त्या बैलाक आडवो उडोवप. दुसरे वटेन कानी म्हणल्यार ल्हानशी दोरी जी एकल्यान बैलाचे माने भोंवतणी घालून तिका घट्ट धरून बैलाक हालचाल करपाक दिवप ना.)

असो हो कोंकणीचो बांगर बैल - पुंडलीक, कोणाकूच बदलोना.

एकदां अशेंच जालें. पुंडलीक तेन्ना पणजे सांत इनेज वाठारांत रावतालो आनी कालापुरा स्कुलांत शिकयतालो. शेनवारचो घरा येतालो. खंयच्या तरी एका मदल्या दिसा गांवांतल्या एका शेतकाराचो बैल एका कुळागरी भटाच्या शेतांत पडलो. ह्या भटाची गांवांत दादागिरी चलताली. ह्या भटाक भौस म्हणल्यार कोयर जाल्लो. पयशांचो माज आनी आपूण उच्चवर्णिय म्हणपाचो अहंकार. परिणाम कितें जालो तर, त्या बैलाक सोडून बैलाच्या मालकाक (शेतकाराक) सोदून हाडून येथिश्ट मारलो. त्या शेतकारान मोन्यांनी मार घेतलो. वाड्यावेल्या पुंडलिकाच्या वर्गमित्राक - महादेव नायकाक, हो अत्याचार सोंसलोना. ही घडिल्ली गजाल पुंडलीकाक सांगपाक तो सकाळीं उठून पयली बस धरून बद्द सांत इनेज पावलो. तांणें घडिल्ली सगली गजाल पुंडलीकाक सांगली. ते दोगूय घरा आयले. आपल्याच वाड्यावेल्या एका गरीब शेतकाराक मारला हें पुंडलीकाक सोंसलेंना. तो ह्या अन्यायाआड पेटून उठलो. त्या भटाक तांणीं सोदून काडलो आनी गांवांत ताची धिंड काडली. सगल्या गांवच्या लोकांनी हे मिरवणुकेंत वांटो घेतलो आनी

त्या भटाक देवळांत व्हरून गांवकाऱ्यांची आनी त्या शेतकाराची माफी मागपाक लायली. तेन्नासावन तो गांवच्या खंयच्याच मनशाचे वाटेक गेलोना. पूण हे घडणुकेचो वेगळोच परिणाम जालो. भटांनी नायकांगेर कसलेंच देव कार्य करपाचें ना अशें थारायलें. चवथीक लेगीत पुजा सांगपाचें तांणीं बंद केलें. तेन्ना 'तुमच्या बगर आमचें कांयच अडना' अशें तरेचो संदेश दीत आनी चिड्डुल्ल्या माडल्ल्यांचो आपूण फुडारी अशें सिद्ध करीत पुंडलीक स्वता पुजेचें पुस्तक घेवन घरानघर पुजा सांगत रावलो. ही परंपरा हालींच्या तेंपार लेगीत चालू आसली.

**ही ताची पयली चळवळ.**

पुंडलीकाची आनीक एक खबर बरयता. तो तेन्ना सुमार बावीस वर्सांचो. तेन्नाची गोंय, दमण, दीवची मुख्यमंत्री शशिकलाताई काकोडकार हांची एक प्रचारसभा आमच्या गांवांत- वळवयंत आसली. तेन्ना हो तरनाटो माचये मुखार गेलो आनी प्रचार सभा सोंपता सोंपता, आपणाक दोनूच मिनटां उलोवपाक दिवंची म्हणून तांणें आयोजकांकडेन मागणी केली. पूण आयोजकांनी ताका आडायलो आनी कुशीक काडलो. पूण शशिकलाताईचे नदरेंतल्यान हें सुटलें ना. तिणें, ताका म्हणलें, यो वयर, उलय. आनी मुखार हो तरनाटो इतलें सुंदर उलयलो, की तिका आपणें हाका वयर आपोवपाचो न्हय अशें दिसलें. पुंडलीक नायकान सभा जिखिल्ली. हे फुडारी आमचें कल्याण करपाक येवंक नात. हे फुडारी फकत मतां मागून आपणाची पोटां भरपाक आयल्यात. आमी इतलीं वर्सां हांकां मतां दितात पूण मतदारसंघाची हांणी कितें उदरगत केल्या ती सांगची. रस्ते आयजूय धुल्लाचे आसात....! ही आनीक एके चळवळीची म्हर्तमेढ!

**ह्यो दोनूय चळवळी गांवांतल्यान सुरू जाल्ल्यो.**

अशेतरेच्या अन्याय-अत्याचारा आड पेटून उठिल्लो हो पुंडलीक म्हणल्यार कोंकणी मायेन कोंकणी समाजाक दिल्लें एक खोर्न. ह्या खोर्नाचो धग तांणे दोन तरांच्या चळवळींतल्यान दाखयलो. एक, सैमाच्या गोपांत रावून साहित्यीक चळवळींतल्यान म्हणल्यारूच आपले लिखणेंतल्यान आनी दुसरें, रस्त्यार देवून भाशीक चळवळींतल्यान! चळवळीचे येस चार वणटी मदीं बसून मेळना हें सिद्ध करपाक पुंडलिका बगर आनीक कोण जाय?

फकत २२ व्या वर्साच पुंडलीक नायक नांवाचो धूमकेतू उदेल्लो. हो धुमकेतू कोंकणीक मेळ्ळो हें कोंकणीचें केदें व्हडलें भाग्य!

पुंडलीक नायक आपले कवितेंत फुडें म्हणटा,

*'बैल चेंचूंक जमना बैल विकूंक फावना'.*

बैल जुवान जातकर ताका चेंचपाचो आसतालो. गांवांतलो हो एक सुवाळो कसो.

बैलाक चेंचल्या उपरांत ताची लैंगीक शक्त उणी जाता. ही ताची लैंगीक शक्त कित्याक उणी करप तर, ताची ही शक्त उणी जातकच तो गाय-गोरवां फाटल्यान लागचोना आनी आपणाक जाय तेन्ना तो शेतांत काम करपाक मेळटलो हो चेंचपा फाटलो शेतकाराचो उद्देश.

चेंचप म्हणल्यार बैलाक आडवो घालून ताच्या अंडकोशाची नस तोडप. हें करपाक एक सुळसुळीत फातर आनी एक लाकडाचो धोडो घेवन अंडकोश लाकडाच्या धड्यार दवरून फातरान नेटान नस धाडावन ती तोडप. पुंडलीकाक कोणूच चेंचपाक शकलोना!

तो फुडें म्हणटा, 'बैल विकूंक फावना'

एकेकदां बैल चेंचपाक कसोच मेळनासलो. तो शेपडी वयर करून धांवत सुट्टालो. तेन्ना ताका शेतकार विकतालो. पूण जो विकतो घेतालो, ताकाय तो बदनासलो. पुंडलीकूय केन्ना कोणाक विकलोना आनी कोण ताका विकतोय घेवपाक शकलोना.

तो फुडें म्हणटा, *'बैलाक म्हज्या किरोवंदी, जाय तसो मिरोवंदी'*

कोंकणी लेखक आनी पर्यायान कोंकणी समाज आयज स्वतंत्र आसा. तांणे एकेक पांवडो हुंपीत तो कोंकणीक साहित्य अकादेमीची एक भास, राजभास, कोंकणी भाशीक घटक राज्य, कोंकणी भाशेचो घटनेच्या आठव्या परिशिश्टांत आसपाव, ज्ञानपीठ, सरस्वती सम्मान आनी हेर मेळोवंक शकलो, कारण हो कोंकणीचो बांगर बैल स्वतंत्रपणान किरोवंक लागला, मिरोवंक लागला. हें पुंडलिकाच्या कवितेच्या माध्यमातल्यान प्रकट जाल्लें द्रश्टेपणूच म्हणचें पडटलें.

पुंडलीक फुडें म्हणटा,

*'बैल फुडल्या पाडव्या येंवचोना*
*पुजे खातीर तिश्टचोना'*

दर दिवाळेच्या पाडव्याक बैलांची पुजा करपाची एक परंपरा आसली आनी आसा. बैल म्हणल्यार धनलक्ष्मी. देव! ताची पुजा करप म्हणल्यार प्रत्यक्षांत देवाचीच पुजा. ताका चेंचल्या उपरांत तो शक्ती हीण जाता आनी ताचे कडल्यान जाय तें काम करून घेवपाक मेळटा. पाडव्या दिसा तो येता आनी धनी राव म्हणटा थंय तो रावता आनी पुजा करून घेता. पूण पुंडलीकाचो बैल (पुंडलीकूच) धनी उबो राव म्हणटा थंय रावंचोंना, सन्माना खातीर तिश्टचोना.

*'तो फुडें म्हणटा,*
*जाय तसो जाय तेन्ना येतलो*
*शिंगां दाखोवन पुजून घेतलो'*

आयजवेरच्या पुंडलीक नायकाच्या जिवितांत कोंकणीन आनी पर्यायान पुंडलीकान शिंगां दाखोवनूच पुजून घेतला. नाजाल्यार विरोधकाक शिंगार घेतला. तांणें आनी कोंकणीन आपणाक जाय तसोच पुजून घेतला, हें केदें व्हडलें जैत!

तो फुडें म्हणटा,

*'बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो उद्धारी*
*बैल म्हज्या बावन्न कुळांचो वारस'*

फाटल्या हजारांनी वर्सां कोंकणी भौस आपली भास घेवन मुखार चलत आयला आनी आयज ती आमचे मेरेन पावल्या. होच वारसो घेवन मुखावयली हजारांनी वर्सां होच भौस आपले भाशेक मुखार व्हरतलो, हो संकेत पुंडलीकाच्या लेखनान दाखोवन दिला.

भौजन समाजांत धव्यार काळें करपाचो पयलो पुरीस जावपाचो मान हो पुंडलीक नायकाकूच फावो जाला इतलें मात खरें!

संपर्कः 8796843564

***

# "हे त्या घरांत आमी रावतालीं!"
## शंकर रामाणी - आमचो मावसो

**अनिला पै फोंडेकार**



केन्ना कोण मेळत, केन्ना कोण पयसावत हें आयज मेरेन कोणूच सांगूंक शकना. अशेंच घडये म्हज्या जीणेंत घडलें. एका विचारवंतान म्हळां, 'We meet to create memories and we part to preserve them'.

यादींच्या पांयवाटेवेलीं मातशीं पावलां फाटल्यान परतीलीं जाल्यार अखंड आनी मोलादीक यादी काळजांतल्यान, अंतस्करणांतल्यान आपालिपा खेळटात, वाट दाखयतात, केन्ना हांसयतात केन्ना रडयतात. आमच्या माणकुल्या जिवीताची एक नाजूक बुनयादीची जाणविकाय करुन दितात. म्हज्यो यादी म्हाका एका वादळाच्या नेटापरस खोल व्हरतात आनी गायतात,

*'आयकात, आयकात मुज्य वाजता पैस*
*आयकात, आयकात मुज्य वाजता पैस*
*करता तुजो आमी येवकार*
*करता तुजो आमी येवकार*
*आज हांगा !'*

तर १९६२ वर्सा सावन म्हाका शंकर रामाणी ह्या नांवाची वळख आसा. तांका हांव आनी म्हजीं भांवडा मावसो म्हण्टालीं. पूण खरें म्हळ्यार तो आमच्या खास आत्या, कमाचो घरकार आशिल्लो. व्हडली आत्याचीं- ताईचीं भुरगीं ताका मावसो म्हण्टालीं म्हुणून आमचोयबी तो मावसो जालो.

हांव, म्हजी व्हडली भयण सुनिला, फ़ाटली भयण नंदा आनी ताई आत्याचो धाकटो पूत अरुण (बाळकृष्ण) गणेश जोशी तांगेर रावतालीं. तर आमचें भुरगेंपण मांडवी पुला लागीं पाट्यार- आझावेदो बिल्डींग हांगा भाड्याच्या घरांत गेलें.

दोन कुडींचें घर. एक ल्हानशेंच साल चकचकीत दवरिल्लें. सालांत एक लोखणाची बाज्र, एका कोनशाक पुस्तकाची आलमार आनी तिचेर एक रेडियो जो आमकां दर आयतारा 'खळार आनी मळार' ही भुरग्यांची कार्यावळ आयकूंक दितालो. तांतूंत हरिमाम लुडबो उलोवन 'ये ताई!' म्हणून हांसयतालो. तर मदीं एका खुट्याचें मेज (राउंड टेबल). वण्टीर मात एक प्लास्टीकची पाल हुंबकळटाली आनी तीका पळोवन आंग शिरशीरतालें.

भितर रांदचीकुड. कमा मावशेन निवळ दवरिल्ली. मेजार एक वाटकुळो करंड. च्याचे वेळार बिस्किटी दवरपाचें आयदन. ताचेर लग्नाची मिरवणूक, हत्तीर बसून महाराजा, महाराणी आनी बेंडकार पितारिल्ले. तरेक तरेचे रुचीक जिनस ती करताली. नाचण्याचें सत्व तर फ़ाल्त नासतालें.

रांदचीकुड म्हळी कीं एक हांसपाची गजाल याद जाता. एके रातीं मावसो जेवतालो आनी ताच्या पानांर दोन तांतीं आशिल्लीं. म्हाका तांतें खूप आवडटालें. तर हांव त्या तांतयांक पळेत उल्लें. आमचो मेनू दुसरोच किर्ते आशिल्लो.

"म्हाका धवें धवें किर्ते तरी दिसता."

मावश्यान म्हाका पळोवन हांसून म्हळें.

हांवे फट्ट करुन म्हळें "हांव जाणां... तांतीं."

"ना ना ना... अनिलाचे धवे धवे दांत." मावश्यान कवितेच्या सुरान म्हळें.

"शी! म्हजे तकलेंत कांयच वचनाशें!" हांवे मनांत म्हळें आनी म्हाका खूप वायट दिसलें.

मावश्यागेर कवी संमेलनां फाल्त नासतालीं. म्हाका मावसो एक कवी आनी कविता ही ताची जीण ह्या ताच्या संवसाराची सुलूस तेन्ना लागली ना. खूपशे नामनेचे कवी आनी फ़ामाद लोक येताले. पुण म्हाका थोडेच जाण याद आसात. दोतोर सांवळो केणी, दोतोर हिरालाल कामत हे दोन व्यक्ती म्हाका घट्ट याद आसात. हांसत्या मुखाचो आनी मायेस्त सबावाचो हिरालाल कामत. जाका हांव आयज लेगीत पळेत जाल्यार वळखतलें.

हांव तेन्ना पांच ते स वर्सांचें. कविसंमेलना वेळार आमी सगळीं भुरगीं भितर उरतालीं. हांवे भितरल्या कुडींतल्या पडद्या खांचींतल्यान तांचेर एक बरीच व्हिस्त मारप. बशी भरुन खारेगांठी आनी आलमारींतल्यान काडिल्ल्या नव्या चिक्र बशेंत गरम गरम च्या! याद आजून ताजी आसा. ते 'वा वा' करुन एकामेकांक शाबासकी दिताले. ते किर्ते उलयतात तें म्हज्या भुरग्या मनांक माथ्यावेल्यान वतालें. पूण खारेगांठी मेजार दवरल्यात त्यो पळोवन मात खूपच आनंद मेळटालो.

मावश्यालें 'द आर्ट ऑफ़ लिवींग' म्हाका आजून घोस्ताक वता. मित्र मंडळी, येवप वचप खूप आसतालें. मावश्याक सोशल लायफ़ खूप आवडटालें. ताची मित्र मंडळी खूप घट्ट आसली. सीताकांत लाड, प्रल्हाद वडेर, ग्रामोपाध्ये अशी ताची मित्र मंडळी.

आमीय बी तांगेर वतालीं. लाडांली भुरगीं मेधा आनी आनंद आमच्या बरोबरचीं. वडेरांलीं तर जुंवळी भुरगीं अजीत आनी चारु. म्हाका आजून याद आसा आमी दिवाळेक वडेरागेर गेल्लीं. तेन्ना तो मडगावां कोंबात रावतालो. भायर आमी तांच्या सोप्यार बसून स्टीलचें ताट भरुन लाडू, शंकर पाळी, नेवऱ्यो खातालीं. मावशान तर ह्यो दोन वळी बरयल्ल्यो, "अजीत आणि चारु, आले मला मारुं", मुखार आनीक वळी बरयल्यात आसत पूण म्हाका तितलीच याद जाता.

पुर्तुगेज गेल्ल्यार बरोच तेंप जाल्लो. पूण फ़ाटल्यान कारेर हें एक यादस्तीक दवरुन गेल्ले. आमच्या 'शारदा मंदीर -मिरामार' शाळेंत हो एक ट्रांसपोर्ट आसतालो. म्हाका अजून याद आसा कारेर आयली आमच्या घरांत बोवाळ आनी आमच्यो पोटल्यो कारेरी भितर. शीला हें बस एटेंटड आमकां भितर घेतालें आनी देंवयतालेंय बी.

मावश्याक भुरगीं नाशिल्लीं. पूण ताणे आमच्यो सगळ्यांच्यो खूप

अपुर्बायो केल्यो. आमकां खूप सांबाळ्ळीं. रस्तो क्रोस करतना आमचेर सारकें लक्ष दवरतालो. सगळीं वासीनां तांगेर घेवन आमी सुरक्षीत जालीं. एक एम्बासेडर टॅक्सी येवप आनी हांवे तर किंळच्यो मारुन सगळ्यांक हालोवप. हेल्थ सेंटरांत वतना कुरासांवचें आशिल्लो गेल्लोच म्हणपाचो!

'बाबा' हें म्हाका मावश्यान दिल्लें अपुरबायेचें नांव. सदांच तो फेर्राद पेंट शर्ट घालून आपल्या नाविगासांव डिपार्टमेंटांत वतालो. दनपरां परत वतना रस्त्यादेगेर आशिल्ल्या मनोहरच्या गाड्यार बेगडीन बांदिल्ल्यो चॉकलेटी म्हाका सदांच दितालो.

तेवेळार सिगारा भशेन दिसपी गोड आनी डॉलर चॉकलेटी हें एक नवल आशिल्लें आनी आमकां तें ताणे केन्नाच फाल्त केलें ना. सदांच आमकां आपली आलमार उगडून चित्रां काडपाक पुस्तकां दितालो.

आमकां एकदां 'चिल्ड्रन्स डे' क चित्रकलेच्या स्पर्धेक ताणेव्हेल्लीं. जनेला भायर रावन सुनिलान काडिल्ली दर्या देगेची सिनरी पळोवन खूप वेळ तोखेलो. दर्यादेगेर भुरगीं बॉल घेवन खेळटात. मदींच सुनिलान असो भुरगो काडलो की ताका व्हरुन मळपाक तेंकयलो. कॅच धरपाक उडी मारतासो. मावसो सामको बेजार जालो. शी! वाट लायली म्हणूंक लागलो आनी ताका सामकें कॅच्च केलें.

तो आमकां बरोबर दीका दाखयतालो. दोळ्यामुखार खूपदां ४४ वर्सांपैलींची एक झलक येता. वर्स १९७१ भारत -पाकिस्तान गेर्र. आमी भुरगीं घरा भायर खेळटालीं. वयल्यान वता तें गेर्राचें हेलिकोप्टर पळयतालीं. 'ऑल इंडिया रेडियो' घोशीत करता कीं सगळीं भितर घरांत रावात. मावसो- कमा मावशी आमकां भितर आपयतात. आमी धांवून भितर येतात. मावसो मात म्हाका सालांत खंयच दिसना. बाज्जेपोंदा ताची इस्काद पिजाम म्हाका झळकता. हांव ताका अक्षरशा भायर ओडून काडटां. कित्याक तर थोडे वेळ पैलीं हांवे लियो टोय्साची एक ट्रेन करुन हांवे बाज्जेपोंदा दवरिल्ली. खरेंच त्यावेळाची एक मोलादीक याद.

त्या वेळावेली आनीक एक याद. म्हजो धाकलो भाव ज्योती केन्नाय आमचेबरोबर रावपाक येतालो. शेजाराक महेश म्हण एक भुरगो आसलो. तांका उलो मारपाची मावश्याली एक खास स्टायल आसली. ज्योतीक तो याह्या खान म्हण्टालो आनी महेशाक भुत्तो. तांका दोगांयकूय आपोवपचें जाल्यार, ''भुत्तो, याह्या खान'' बेगीन येयात अशें तो म्हण्टालो.

मावश्याक कुत्र्यांचो खूप फोबिया आशिल्लो. ''कुत्रो! धांवात!'' ही आमकां ताची सदांच शिकवण आनी खरें म्हळ्यार आयज लेगीत आमी ताचीं उतरां पाळटात. पांच वर्सांची जरी आमची नात्याची, मैत्रीची गांठ. तरी अशें दिसता की आमचें सगळें जिवीत आमी थंयच काडलां. मावसो चड आस्तीक नाशिल्लोसो म्हाका दिसता. कारण म्हाका घरांत खंयच देवारो वा देवाचो फोटो आशिल्ल्याची याद जायना. ताचे जिणेची एकूच दृश्टी 'अतिथी देवो भव:'

'घट- मट- चिप' हो कमामावशेचो कंट्रोल्ड आवाज. आमीं कमा मावशेक सामकीं भियेतालीं. हो 'टेरर क्राय' आमकां शिस्तींत दवरतालो खरो पूण म्हाका आवडनाशिल्लो. पूण ती आमकां खूप बरेंय बी करताली. केन्ना केन्नाय आमकां आयसक्रीम बी हाडून दिताली. बरे बरे 'ड्रेस पेटर्न' बी शिवून घेताली. मावश्याक आमी केन्नाच भिलीं ना.

आझावेदोच्या फुडल्या सायडीन एक हॉटिल आशिल्लें- शांता भुवन. आमची शेजारी चोपडेकार लागींच चणेकार हें कुटूंब रावतालें. तें हळडुव्या रंगाचें आनी आजूनय तशेंच आस्स.

आजून याद आसा तो दीस. फातोडेर घरांतल्यो सगळ्यो लायटी पेटल्यो. खूब लोक घरांत भोंवतात हाची जाणविकाय जाली. सुनिलान कानार घालें, "कमा मावशी गेली". "आतां आमकां केन्नाच दिश्टी पडची ना ती?" शेंदरेर बसून दोळे पुशीत हांवे विचारिल्लें.

मावश्यान दुसरें लग्न करपाचें थारयलें. म्हज्या बापायची तर पांया पोंदची जमीन घसरली. कमा म्हळ्यार ताचो धीर आशिल्लो. बापायन आमकां थंयच्यान हाडपाचो खर निर्णय घेतलो. आमी कांयच करुंक शकलीं नां. पणजे शिक्षणाक लागून आमकां तांगेर दवरिल्लीं. वर्सुकी परिक्षा जायसर आमी थंय उल्लीं. ताईआत्या येवन आमच्यासरीं रावलें.

निमणे दिसा ताईआत्यान आमकां सगळ्यांक त्या घराची निमणी भेट शागोती आनी फ्रुट सॅलड म्हण केल्ली. आमी शेजारच्या भाभीगेर बशिल्लीं, खेळटालीं, फुडल्या गंभीर परिस्थीतीची कसलीच जाणविकाय नासतना. ताईआत्या मात ल्हव ल्हव दुकां गळयताली आनी आमकां मायेन पोशेताली.

बापायन आमकां तोंकार वागळे बिल्डींगेंत, शारदा मंदीराक लागीं अशा फ्लॅटांत दवरिल्लीं. आनी थंयसावन आमच्या जिवीताची नवी वाट सुरु जाली. केन्नाच आमची भेट मावश्याकडेन जाली ना. पूण मावश्यान खूप वर्सांनी आमच्या भुरगेपणांतले फोटे बापायच्या ऑफिसांत 'डेम्पो हाउस' पावयले. आमकां खोस जाली. अशें दिसलें की आमचें शेणिल्लें भुरगेपण आमकां परत मेळ्ळें.

तेन्ना Facebook ना 'गुगल सर्च' ना. पूण आतां 'गुगल सर्च' केलें तेन्ना मावश्याल्यो खूप कविता वाचूंक मेळ्ळ्यो. सुंदर अर्थाच्यो. म्हाका खूप आवडल्यो. खंत एकूच जाली- मावशान 'बाबा'चेर एक्रूय कविता कशी रचली ना?

ना. आमी कोणूच ताका मेळपाक गेलीं ना. ताणेय बी आमचो सोद लायलो ना. एक अर्दकुट्या असंतुश्ट नात्यान आपलें कुरुप रुप दाखयलें. खुबदां पणजे पांट्यावेल्यान वतना म्हजो हात आझावेदो बिल्डींगेवटेन वता. तोंडांतल्यान उतरां सुट्टात, "हे त्या घरांत आमी रावतालीं". "हॅम्म" इतलोच आवाज गाडयेंत गाजता. पूण म्हज्या म्हाकाच हांव थंय पळयतां, घरा भायर त्या मातयेच्या रंगाचें उदक आनी ती कागदाचीं व्हडीं (तीं करपाक आमी थंयच शिकिल्लीं) हांव म्हज्या भयणी वांगडा सोदतां. आनी एक एक करुन आदल्यो यादी हांव पुंजायतां.

कितलेशेच पावसाळ्यांनी आमचीं माणकुलीं पावलां धुलीं. एकाद्रो खंय तरी खांचीन बशिल्ली एक कोयरा कणी नाजाल्यार घरार पसरिल्लें कायम वत जाचे उबेन आमी व्हड जालीं... आमकां नकळटां. मोन्यानीं तो एका काळावेलो गजबज पोरसांत गाजता... झणझणीत वारें दुर्गार मारता...घडये तें आमकां सोदता ...

**अरुणाल्यो यादी:**

"हांवे इल्ले चड पावसाळे पळयल्यात आझावेदो बिल्डिंगेंत!". सगळ्यांत पैलीं कमा मावशेन ताका तांगेर रावपाक हाडिल्लो. आमी सगळीं ताच्या फाटल्यान.

सदांच सकाळीं उठून ताका व्यायाम करपाची संवय आशिल्ली. सुर्य नमस्कार, शतपावली आपूणय करतालो आनी म्हाकाय करपाक लायतालो. ऑफिस सुट्टगीर तो बद्द घरा येना आसलो तर भायल्या भायर एक 'वॉक' कांपाल मेरेन घेतालो. तो एक "फिटनेस फ्रिक" आसलो अशें म्हाका दिसून येता.

"संगीताची आनी वाचपाची ताका खूप आवड आसली. सत्यकथा बी नेमाळीं तो वाचतालो. एक ताची नवलाची गजाल म्हळ्यार ताचेकडेन एक मोट्टें पुस्तक आशिल्लें ताका तो 'बायंडर' म्हण्टालो. खूप बरोवपाचीं पानां ताणे बायंड करुन घेतिल्लीं. ताचेर तो कवितेचे आयिल्ले विचार टिपून दवरतालो. रातचो लेगीत न्हिदेंतल्यान उठून मोट्या पासियेसांन बांयडर उगडून नोंद बरोवन दवरतालो. कदाचीत तो विचार आपूण विसरुन वचत म्हण जायत. पूण ताचें अक्षर मात सुरेख दिसनाशिल्लें."

ताच्या सबावाविशीं अरुण सांगता, "ताका राग येतालो पूण चड कडक न्ही. तो एक शिस्तीचो मनीस आसलो. आपलें सामान तो जाग्यार दवरतालो. वेळच्या वेळार खातालो जेवतालो. खरें म्हळ्यार 'Early to rise, early to bed' असो हो मनीस."

"मावश्यान खूप कविता संग्रह बरयले. आनी ताका पुरस्कारुय मेळले. ताचो ताका अभिमान आसलो. ताजो एक निळो ट्रंक आसलो. आनी तातूंत तो आपल्यो मोलादीक वस्तु जशीं पत्रां फोटू बी दवरतालो".

कमा मावशी मरतकच अरुणान ट्रंकातलो तिचो फोटू भायर काडलो व्हरपाक. "दवर तो भितर" मावसो म्हणपाक लागलो. कदाचीत एक तर हो भुरगो शेणयत म्हण वा आपल्या यादीक दवरुंक म्हण जायत. 'अरुण- गणेश' म्हणून अरुणाक हडकुपाची ताची स्टायल. अरुणाचेर बरयिल्ली कविता ताणे ताका धाडिल्ली. पुण ती आतां मेळना.

मावश्यान खंय एकदां तांचे मित्र नामनेचे कोंकणी कवी माधव बोरकार हांका सांगिल्लें, आपल्या मेवणेचो चलो बाळकृष्ण जोशी (अरुण) आनी मेवण्याची इं. दत्ता पानवेलकार हांची भुरगीं आपल्यागेर रावतालीं. तीं जेन्ना घर सोडून गेलीं तेन्ना आपल्याक ही कविता सुचली:

*'आठव अजून ओले*
*शब्द नवे जुने*
*कासारलि कथा*
*खोल खोल पाणी*
*उमळल्या वाटा*
*अथांगाची गाणी*
*पक्षी उडून गेले*
*वृक्ष सुने सुने'*

ह्या कवितेची फाटभूंय आमचें त्या घरांतल्यान वचप हें आसा तें आयकून म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवलीं. कळत नकळत अदृश्य जाल्लें हें नातें परत अस्तित्वांत आयलें.

'पयस गेलें तें भुरगेपण
आनी पयस गेलो तो शिल्पकार...'

संपर्क: 7020362819

***



# पांडुरंग भांगीची कविता

उल्हास पै रायकार

भौ. पांडुरंग भांगी- एक गोंयकार- एक कोंकणी कवी. म्हजो एक इश्ट म्हण्टा, "गोंयकाराक खंयचीय गजाल फकत कळटा अशें ना. ताका ती 'दिसता' तो म्हण्टा 'म्हाका दिसता...'' हेर वाठारांतले लोक ताका 'मुझे लगता है...', मला वाटते, ' I feel that...' अशें म्हण्टात. होच घडये पांडुरंग भांगीक जाल्लो दिश्टावो. आमचे भाशेंत आमच्या शरिराक 'कूड' म्हण्टात. आमचे भाशेंतल्या शब्दांच्या बांदावळीक लेगीत शिल्पशास्त्राचो वास आसा तो असो.

भौ. पांडुरंग भांगीची कविता वाचतकच म्हाका पं. उल्हास कशाळकरांच्या गाण्याची याद येता. आयकतकच तें खूप आवडटा, पूण तें कित्याक आवडटा ते सांगपाक उतरा आडखळटात. आमी उणे पडटात. ह्या कवीचे कविते विशी उलोवपाकूय अशेंच जाता. तरी यत्न करतां. तोय समिक्षेच्या किचकटींतल्यान न्हय तर आस्वादनांतल्यान. कवीच्या मना कडेन वचपाचो हो यत्न. मन म्हणचे कितें तें कळपाक कवी श्री. र.वि. पंडित हांची उतरां उश्णीं घेतां.

चिंचेचे पान...
एक पान
आनी, पानांत,
परतींय पानां
ल्हान ल्हान ल्हान...
ल्हान ल्हान
पुण कुडके न्हय
अखंड.
आनी
सगळें पान?
म्हळ्यार अखंड
म्हळयार विखंड
... तशें म्हजें मन.
एकाच मनांत
भितल्ले भितर
आनीक खूब मनां
ल्हान ल्हान ल्हान
तरेकतरेचीं...
आनी सगलें मन?
म्हळ्यार अखंड
म्हळयार विखंड...

जशें चिंचेचें पान –

ह्या मनाची विस्कटावणी करप म्हणल्यार ताका विद्रूप करप. अशी विस्कटावणी केल्यार 'कवितेचें' व्याकरण' जातलें देखून ती समजुनूच घेवंया.

आमचे संस्कृतायेंत 'नादब्रम्ह' हें उतर आसाच. 'स्वरब्रम्ह' आनी 'शब्दब्रम्ह' अशींय उतरां मेळटात. नाद आनी शब्द हांचो संबंद सोदतले जाल्यार थोडेंशें नादा विशीं पळोवया. उतरां समजून घेतना ताचो अर्थ सोदपाचो नाद हो बरोच!

दोन वस्तू एकामेकांचेर आपटतात तेन्ना कंपन जाता आनी नाद उदेता. हो नेम पायथोगोरसान मांडलो. ह्या नादाचें जशें 'स्वर' हेंय एक रुप तशेंच 'शब्द' हेयं एक रुप. ह्या नादाचो स्वरा कडेन संबंद लायतकच 'स्वरब्रम्ह' हें उतर येता जाल्यार शब्दा कडेन लायतकच 'शब्दब्रम्ह' हें उतर येता.

आमची संस्कृती सांगता, ब्रम्हांडाची उत्पत्तीच नादांतल्यान जाली. म्हळ्यार नाद हो ऊर्जेचो जांव शक्तीचो प्रकार न्हय तर नाद हीच शक्ती. 'यो वै नादः स वै बिन्दुः' नाद तोच बिन्दु. एकामेकांतल्यान एकामेकाची उत्पत्ती. अणूंत जी शक्त आसता तीच ह्या बिन्दुत म्हणल्यार नादाच्या टिंबांत आसता.

शब्द आनी संगीत हातूंत दोगांतूय ध्वनी आसता. या ध्वनीची प्रकटीकरणाची तरा वेगळी. नाद म्हणल्यारुच एनर्जी. ती नाय करपाक जायना आनी नव्यानूय करपाक जायना. फकत ताचें रूपांतर करूं येता. देखून शब्द म्हणल्यार नादाचेंच रूप आनी ताका अनाहत नादाचो पालव आसता. देखून नादाचो पालव आसता. नाद उक्तावपी मनशां वांगडाच अनाहत नाद आसता. शब्दांनी उक्तायल्ल्या नादाच्या रुपान ब्रम्ह आसता म्हणल्यार नादाचें अखंडपण आसता. म्हाका दिसता देखन तें 'शब्दब्रम्ह'.



सृजनशक्त आनी तातूंतल्यान येवपी प्रतिमा हे विशीं उलयतना कवी श्री. पु.शि.रेगे म्हण्टात, "प्रतिमा ही निर्माण करताना आपल्याकडून ते कुणीतरी करवून घेत असतं, असं मला वाटतं. सृजनशक्ती ही केवळ आपल्या मनांत असते असं नाही; ती सर्वत्र असते. निसर्गातही.''

वाचप्यांक अशें दिसतलें हाचें नमनाकूच घडोभर तेल. पूण ह्या कविच्या कवितेच्या नमनाक घडोभरूच न्हय तर दोडींनी तेल घाल्यारुय तें घडये पावचेना. मूळ ज्योत सारकी पेटलीना जाल्यार ह्या कवितेंचीं तासां दिसपाक आडखळ येवं येता. देखून हें नमन चड वेळ.

पांडुरंगबाबाचो 'दिश्टावो' हो कवितासंग्रह हावें वाचिल्लो. म्हाका आवडलेलो. पूण तातूंतली जाणवीकाय म्हज्या मनांत रिगूंक नाशिल्ली. एक दीस श्री शंकरबाब भांडारी सकाळींफुडें मेळ्ळें. तांणी विचारलें, "आरे, तुवें पांडुरंग भांगीचे अदृष्टाचे कळे पळयले?" हांवें म्हणलें, "अजून वाचूंक ना." तांणी म्हणलें, "हें पुस्तक हांवें काल वाचलें आनी हांव रातभर न्हिदूंक ना." बोटव्यांतल्यान तांणी तें पुस्तक काडून म्हाका दिलें आनी सांगलें 'वाच आनी वाचत राव'. पुस्तक वाचलें, वाचीत आसां. दर वेळा वाचतकच नवें नवें कळिल्या भशेन जाता. आवडटा पूण कित्यांक ते कळना. म्हळें सांगून पळोंवया, कळटा जाल्यार.

कवी पांडुरंगबाबाच्या 'दिश्टावो' आनी 'अदृष्टाचे कळे' ह्या कवितासंग्रहांक कोणाचीच प्रस्तावना ना. ते आपल्या कवितेचेर चारचौगांत उलयल्ले हांवें पळोवंक ना आनी तशें आयकूंकय ना. घडये आपली कविता लोकांनी निवळ मनांन वाचची अशी तांच्या मनाची बसकां आसुंये. देखून संकल्प आनी विकल्पाच्या रिणांतूय उरूंक नात आनी तांची कविताय. तांच्या शब्दब्रम्हाच्या पालवाचें हें एक तांस, अनाहत नादाचें.

तांच्या निमण्या म्हणल्यार 'चांफेल्ली सांज' ह्या कवितासंग्रहाक प्रस्तावना आसा. हातूंत तांणी फकत आपली कविता कशी येता आनी आपूण कविते कडेन कसो पावलों तें सांगला. कविता निर्मणेच्या वेळार कुडिचे दुखीकडेन लेगीत आपलें कशें लक्ष वचना तें सांगलां. ह्या एकचीत जावपाक ते सृजनाची तांक म्हण्टात. ते म्हण्टात, 'निर्मणेच्या वेळार हांव भोंवतणचो संवसार विसरता. समाधी लागिल्लेवरी म्हजी अवस्था जाता. कविता बरोवन जाल्या उपरांत पासून, ते ध्यानस्त अवस्थेंतूच हांव उरतां.' पूण कवितेच्या मुळा विशी ते कांयच उलयानात.

'दिश्टावो' कवितासंग्रहांतली तांची पयलीच कविता शरणभाव परगटायता. आपले कूडीचें मातये कडलें नातें तांणी नमळायेन सांगलां. फांतोडेर उठतकच धर्तरीक पांय लायतना म्हण्टात, 'विष्णुपत्नी नमस्तुभ्यं पादस्पर्श क्षमस्वमे' या जाणविकायेचें मनस्वीपण हे कवितेंत आसा आनी ही कविता पयल्याच संग्रहाच्या पांवडयार आसा. मातयेंतल्या गर्भकणयेंतली हावेसांची चूड तांकां झेलयता. हांवें पळयल्ली एक गजाल सांगता. एक पांच-स वर्साचो भुरगो मातयेंत खेळटालो. तांणे माती काडून आपल्या खोमसाच्या बोल्सांतूय भरिल्ली. बापूय धांवत येवन ताचेर आड्डल्लो. भुरगो म्हणपाक लागलो, "मात्सो राव पळोंवया, म्हाका डिस्टर्ब करूं नाका." त्या भुरग्यांचे मातयेचेर लागिल्लें मन आनी पांडुरंगाबाबाचें मन म्हाका एकूच दिसता. कवीक हे मातयेंतूच उदेंतीची जाग दिसता. आपले चुकींचीय ताका जाण आसा. देखून ते म्हण्टा–

*'ही जाग-उदेंती*
*भाग्याचो सुगुर्वो*
*आनी म्हज्या पातकांकय*
*फुडाराचो दिश्टावो.'*

तांच्या सपनांतली अस्तुरी धर्तरि कडेन नातें सांगता. तिका ते धर्तरीची उपमा दितात. कित्याक, तर दोगांय गर्भाळ, पिकाळ आनी देखून तेजाळ! परत धर्तरि कडेन आपलें नातें सांगतना ते म्हण्टात,

*'हो भोग? न्हय*
*तुजोच हो साद*
*जिणेची रुच ही*
*जिणेचोच नाद'*

प्राप्त जाल्ले जिणेंची अशे तरेन रूच घेवपाची ही वृत्ती वेगळीच!

तांचे कवितेंत तसो निर्शेणेचो सूर कमीच. कांय कवितांनी थोडी खंत आसा पूण मनांत रीगतना तांका पर्जळाची आस आसताच. तांचे खंतीचें मूळ पळयात -

*'पावलांक पाळ फुटना*
*म्हणून भुंयेर धरना*
*पाखांय जिणेक फुटनात*
*म्हणून उडूंक पावना'*

देखून ते मळबाक 'तिरायत' अशें म्हण्टात.

पूण पळयात, भूंयेक पैसावपाचें एकूय उतर ते वापरिनात. तिका ते कांयच दोश दिनात.

आपणाक धार्जणें ना. कसलीच गजाल सादना. तरी तांचे नशीब विचारता आनी मूठ आवळून पाचारता –

*'गडे काय फाडे?*
*फाडे म्हणून सांगत जाल्या*
*अचूक मुठीत गडे!'*

पळयात. मुठींत तांचे दुसरी गजाल ना. पयली आसा. म्हणल्यार गडे.

'सावळी' हे कवितेत ते म्हण्टात,

*'कित्याक धरूं खंत आता*
*हावेस म्हजे जियेतात*
*रेवेंच्या कणांकणांक*
*ल्हारां हाडटात नवी जाग'*

हावेस ह्या उतरां मुखार आशिल्ली ओळ हावेसाचें प्रवाही रूप दाखयता. रातीक लेखून ते म्हण्टात -

*'हावेसांच्या उबेंची*
*म्हजीच ती सावळी!'*

रातींत ते उजवाड पळयतात. तांका खबर आसा आमीच उजवाडाक फाट करता तेन्ना रात जाता. उजवाडाक वस्त दवरतकच तिची सावळी पडटा. उजवाडाक फाट करता तेन्नाच आमकां आमची सावळी दिसता. 'सकाळ' हे कवितेंत पळयात –

*'ही सकाळ चड्टा तशी*
*सुर्या माथ्यार उदेता*
*पांयां पोंदा सावळी आतां*
*मूळ सोदूंक वथेता.'*

असंभळ दर्या आसतनाच तांचे मन उडटल्या भिन्यांवरी शांत आसता.

दुख्ख लेगीत तांच्या आंगार सुखावता. तांच्या मनाच्या शांततायेन चान्रे ओलें जाता आनी परत मोनेळांत न्हाता. तांच्या उतरांची केळवणी आमकां शांतताये कडेन व्हरता.

सताची जाणविकाय तांचे कवितेंत अखंडपणान दिसता. 'दिस असो येता' हे कवितेंत काळचक्राची नोंद घेत ते सांगतात,

*'ह्याचखातीर रगताक म्हज्या*
*भर्ते-सुक्ते ओड आसा*
*मर्ण म्हाका येतले म्हणून...*
*जिणेक म्हन्या मोल आसा!*

त्योच कथा त्योच व्यथा अशें म्हणपी तांचो निर्शेणेचो सूर सदांच एक कणभर कमीच लागता

*म्हज्यांतूच धग ना*
*काय उजोच पेटलो ना ?*

ह्या प्रस्नांतल्यान हो सूर मेळटा. तांचे व्यथेकय व्यथेची व्यथा कळून कळना तेन्ना तांची व्यथा, तांचो रूपकार घेता. केन्नाय तांचे मन 'वेरेता'. कोगळाच्या सूरान लेगीत ही वेर सादना. पूण उजवाडाक ते आंवडेतात. तो मेळना जाल्यार अस्वस्थ जातात. 'सांगाती' ही तांची कविता पळयात –

*एकमुळीच वाट म्हजी,*
*हांव म्हजोच सांगाती*
*जिणे-मर्ण बांदून सांगोड,*
*जिवा म्हज्या खेळटां भोंवडी*
*कितलीं युगां जालीं अशीं,*
*आजून उजवाड फांकना*
*कल्पांताच्या दिगंतेचेर*
*कसलीच सासाय दिसना*
*पाशाणाचीं जातलीं ल्हारां,*
*गीत वारो गायतलो*

*संसाराच्या पाळण्यांत घालून*
*झोपै म्हाका काडटलो*
*आतां मोतयांत लिपलां कालूं,*
*जिणे म्हज्या धांवता तारूं*
*मूळ सोदूंक पिशांतुरं,*
*मन कशें थातारूं?*

हांगा ते जीण आनी मर्ण हांचो सांगड बांदून जिवा भोंवडी खेळटात. एक दीस असो येता हे कवितेंतली 'मर्ण म्हाका येतलें म्हणून जिणेक म्हज्या मोल आसा!' ही ओळ आनी हें कवितेंतली 'मूळ सोदूंक पिशांतुर, मन कशें थातारूं?' हीं उतरां कविता शक्त केंद्रगामी वचपाक

लागल्या हाची सुलूस दिता.

प्रारब्धाची पुराय जाण तांकां आसा. हांगाच सगळ्यो व्यथा सोंसप आनी जिणेच्यो सतरा कळा तिनूय पार भोगून घेवपाचें अशें ते म्हण्टात. पूण सताकडे वचपाची नाट तांकां खबर आसा. देखून ते म्हण्टात -

*हांगाच पावलां सराव घेत*
*आपणेंच आपल्याक सोदीत रावप!*

तांकां तशी मेकळेपणाचीय ओड आसा, म्हूण ते आपल्या दोळयांक काळजाचो हारसो मानून आपल्याच जिवाक सांगतात 'मोगाचे फुलय कळे.' लोकांमेरेन पावपाची तांची आस ती ही!

'सकाळ' हे कवितेंत तर ते साळकाच्या रूपान उजवाडाकूच आर्गां दितात. उजवाडा विशींची तांची भक्ती आनी तांचो मोग आनी खंयचीय गजाल आपली न्हय म्हूण मनस्वीपणान सांगपाची तांची रीत आगळीवेगळी. फकत कर्मकांड म्हण ते आर्गां दिनात. देखुनूच तांच्या मनांतली सकाळ माळ जपता आनी फुलून अळार जाता, अळार म्हणल्यार फुलून रसरशीत जाल्ली. तांच्या मनांत फुलिल्ल्या मोगरे कळयां हार दिश्टाव्याचे वेध घेतात. मोगरे कळे दनपरांच रसरसून फुलता आनी तांचे मनूय. वेळ सादपाची ही तांची तरा ज्यूस्त मुदयेर थीक कशी. मन उत्तावपाक सैमाचो आलाशिरो घेत योग सादपी असो योजक दुर्लभूच!

कवीक पापपुण्य, प्राक्तन आनी प्रारब्ध या विशयांक तेळपाची वेगळीच नदर आसा. शब्दांच्या माध्यमान जें मेळोवपाचें आसा ताका कुडिची मर्यादा आसा हें ते जाणात. देखून ते म्हण्टात –

*दोळयांच्या ह्या कवडुलांक*
*आतां दिगंतेचीच बंधना*

पूण मनाची शक्त ते जाणात. देखून फुडें ते म्हण्टात -

*'दर्याळून गेलें मन*
*ताका ब्रम्हांडूय पावना'*

रझांवाच्या दिव्याक ते सगळयो पलतडी हुंपपाक सांगतात. ते म्हण्टात -

*'रझावाच्या दिव्या म्हज्या*
*ऊप रे सगळ्यो पलतडी*
*घरा घरार झडूं, तुज्या*
*उजवाडाच्यो वावझडी!'*

कितलेशेच कडेन कवी सुंदरताय 'कांतयता', हय, तांचेच हें उतर.

*'करपल्ल्या रूखार बियेची*
*कोर तितकेंच एक सूख,*
*मळबय आज निळकंठ*
*फांकिल्ले प्रभेचें पर्जळलें मूख!'*

फिशाल गावप्याच्या गळ्यांतली मुरकी तांचे कवितेंत कशी येता तें पळयात -

*आज हांव मस्त आसा*
*ल्हारा ल्हारार चांदन्या पूर*
*रंद्रां रंद्रांतल्यान सूर*
*बोटारंय रंगल्ी थाकाय*
*जीव तर तुजीच सासाय*

'बोटारंय रंगल्ी थाकाय' हे वाचलें तेन्ना हांवें तातूंतली मुरकी आयकली आनी अचळय म्हाका उतरां आयली.... वा ऽ क्या बात है।

सुंदरताय अशीच सहजतायेन केळयतना कांय खटके ते कशे घेतात पळयात -

*'चंद्राची कोर कशी*
*आंबलेचें तोर*
*आश्विनांतले चांदने बाये*
*वयावेलें पोर!'*

अशी चंद्रशीतळ अपुर्बायेची नदरूय काळजांत आसपी हे कवीक तोखेवपाक उतरांय कमी पडटात.

'अदृष्टाचे कळे' हो कवितासंग्रह जागयतना कवीन 'अदृष्ट' ह्या शब्दाचो लाक्षणीक अर्थ केळयला. तो म्हणल्यार 'अंतर्मनाचो घेतिल्लो सोद, अंतर्मनाक जाल्लें दर्शन' ... ते अदृष्टाचे कळे. दीर्घ चिंतना उपरांत जो नाद आमकां शब्दरूपान मेळटा, ते शब्द चड मदुर, मार्दवी, सुंदर आनी थर्त आकाराचे, मन सुखावपी, आनी शांततायेकडे व्हरपी आसतात. पांडुरंगबाबांचेय शब्द अशेच...

*'अशी अदृस्टाचीं माली*
*रगतांत लागली खेळूं*
*हे अळार पिकिल्ले वेळे*
*प्राणच लागलो मातूं.....'*

तांच्या मनांतले अदृष्टाचे कळे अळार जाल्ले. देखून ते मूळ रूपाक वचपाक वश्रेताले. तळ्याचे देगेर आशिल्ले केळीचें रुप तांच्या मनांत आस्पावल्लें. हें रूप तळ्यांतल्या उदकांत कष्टावतालें. ताची माया तळ्यांत विरगळटली. तेन्ना तळ्याक मळबाची काया झेलपाची तांक येतली ही जाणविकाय ते पयल्याच कवितेंत उक्तायतात. मूर्तातल्यान अमुर्ताचो सोद घेवपाची तांची आस पळयात -

*'रूप अरूपाचो सादु*
*भास शाश्वताचो भेदु*
*आनी फुडें*
*पिकून अळार जाले मळे*
*चुकले चौंद्यांशांचे फेरे!'*

जल्म मरणाचे फेरे चुकोवपा खातीरच्या दिश्टाव्याक ते वश्रेतात, आपणाक कोणाच्या रिणांत दवरूं नाका अशेंय ते त्रिकाळाच्या धनया कडेन मागता. मनशाचें मन हे विश्वमना कडेन एकरूप जावन स्वता कडेन पळोवपाची ही तुर्या अवस्था. जागृती, स्वप्न आनी सुषुप्ति उपरांतली. ही तुर्या अवस्था. पिकली काय येता ती उन्मनी अवस्था. हातूंत मनाचें उन्मन जाता. उपरांत मन मूळ उर्जेकडेन वता. तातूंत एकरूप जाता. हांगा सगळो मोनेळ ....तें उलयच ना. Music musically leads to silence. शब्दय घडये तशेच! ह्या विशयाची पुराय जाण आशिल्ल्यान तांणी ती आपल्या विश्वांत केळयल्या. पळयात–

*'अवकाशाच्या घुमटांतल्यान*
*जेन्ना उतराण वारो सोंशेता*
*तेन्ना तडीर दशावतारी खेळ*
*भोगीत भोगत्रयाच्या*
*विळख्या विळख्यांतल्यान*
*तपत्रय सोंशिल्लो प्राण*
*दरवट्याच्या हुंबऱ्यार*

उन्मनावस्थेत निर्माण साधीत मूळ रूपाक वचपाक प्रस्थान दवरता.

*ह्या वेळार*
*दिशांची बंधना तोडीत*
*परम सुखांत सुखावल्ली कूड*
*जेन्ना दरवट्यार मारता*
*तेन्ना तो सदांकाळ थांपिल्लो दरवटो*
*मात्सोसो किलकिलो जाता*
*आनी कुडीचो चंदना रूख*
*उजवाडाचे दिवटेर*
*कापराची वात जावन पर्जळटा!'*

मूळ उर्जेकडे वचपाची तांची तळमळ आनी शक्त हे कवितेंत दिसता. घडये तांकां हे संबंदींचो अणभव आयला आसतूय! आपणाल्या मूळ रूपाची जाणवीकाय तांकां जाल्या आसूं येता. देखून ते परत परत प्रस्थानाक आंवडेतात. हें प्रस्थान कुडिचें न्हंय तर उन्मनी अवस्थेच्या मुखार वचपाचें. ह्या सुंदर प्रस्थानाक आडखळी आसतात कारण पावलांकूय मातये वास आसता. लोक असले अवस्थेक फुडो करपाक कांचवेतात हें तांका खबर आसा. ते म्हण्टात -

*'ते भियेतात*
*म्हजे सासायेक*
*सासायेच्या साक्षात्काराक!'*

आपणाली तांक कवी जाणात पूण तेय आडखळतात, खंय तरी घुस्पतात तेंय ते जाणात. निराकाराच्या तळयेंत बुडी मारपाची तांची इत्सा आनी प्रयत्न, पूण ..

*'प्राक्तनाच्या रूखाक*
*पालवच आयलें ना'*

अशे म्हणून ते पिंजळटाय. घडूंक नाशिल्या आसपाची आवर्तना जागोवपाचो यत्नूय ते करतात. परत उमेदीन म्हण्टात -

*'धारवटीं धारेर*
*पेटयली वात'*

तांची मूळ रूपाक वचपाची ओड ते उक्तायतना म्हण्टात -

*'कुपाचे एक झाड*
*वैर उफेवन आयलां*
*आनी भोंवडेक अंत*
*नाते झडच्या पैलीच*
*एका शुन्यांतलो*
*हो प्रवास*
*ही भोंवडी*
*घडून येवंक जाय*
*येतां हांव*
*सायोनारा....'*

तांच्या प्राक्तनाच्या रूखाक संचिताची पाखां आसात जाण्टेल्यांनी दवरलेली माया रिणांच्या रूपान तांकां साद घालता, रिणां पावयतां, उजयतां जन्म मर्णाचे फेरेय चुकचे आनी मागीर.....

*'पैस दोंगरयांनी आतां*
*घांटी घांटीचो गजर*
*दोनी दोळ्यांच्या तळ्यांनी*
*आता नक्षत्रांचो शिंवर!'*

अशी मुक्तिच्या खिणाची कल्पनाय तांच्या मनाक ल्हवपीक हात लावन वता. हें सगळें भोगतना...

*'मळब झेलतना आतां*
*तरून गेलों गा मर्णा*
*अदृस्टाचे शेले जाले*
*म्हजे सासायेचीं सासणां.'*

अशेंय जाता. आपली तपश्चर्या ते अशी सांगतात –

*'कांटयाच्या अग्रार*
*पदमासन घालीत*
*नदर ताणे भीतर व्हेली*
*मरण कळपाखातीर*
*जल्मा-व्यथा सोंसली...'*

प्राक्तनातलें सगळें सोंसपाची तांची तयारी आसा. ते म्हण्टात -

*'भुजावेलो खुरीस आतां -*
*म्हज्या प्राक्तनाचे फूल!'*

आपूण पैसाचो यात्री हाची पुराय जाणविकाय हो तांचे कवितेंतलो मूळ धागो सताच्या दिश्टाव्यान ते मरण तरुन वतात. मायेच्या घुस्पावणेचीय तांका जाणविकाय आसा. तांचो प्राण मदींच तडीर गांवां रूजयता. घोंटेराक आयिल्ली सवणी तांचें शेणिल्लें भुरगेपण जागयता, पूण ते म्हण्टात -

*'चिमटीभर गोबराक म्हज्या,*
*येवची पैसाची गा कळा*
*ह्या अशा दिसा खातीर*
*ही सोंपोवचेली काया!*

देखूनूच घडये अशें जाता -

*वर्सा कशी सोंसलीं*
*कळलेंच ना*
*अकस्मात सकाळले!*

'चाफेल्ली सांज' ह्या तांच्या कवितासंग्रहाची अर्पणाची उतरां पळयात -

*'ज्यांका लागून म्हगेली सांज चांफेली*
*त्या म्हन्या लकुबायेच्या नातरांक'*

हीच आसुंये घोटेराक आयिल्ली सवणी जांणी तांचे भुरगेंपण जागयलें. तांणी म्हणलें -

*'सांज अशी चांफेली*
*उतरांतल्या मळबांतल्यान*
*नक्षत्रां पिकून झडटना*
*सांजय चांफेवन परमळटा*
*पांवलांचेर दाटिल्लो धुल्ल*
*कस्तुरी जावन घमघमता!'*

शाश्वताचे भेटेक मागीर ते अमृताचे कळे हाडपाची भास उलयतात. तांची मायेची घुस्पावणी वाडऽ त वता काय दिसता.

*'तटास जाल्यात चुडी*
*आनी तटास तांच्यो जोती*
*मोनेळीच्या वाटेर हांव*
*ब्रम्हांडाचो भोगी!'*

पळयात. हातूंत भोगी हें उतर आयलां. जोगी दिश्टी पडना. आपल्या उतरांतल्यान अनाहत नादाचो सोद घेवपी कवी अशे थांबले कित्याक तें कळना. देखूनूच म्हाका 'दिश्टाव्यांत' आनी 'अदृष्टाच्या कळयांनी' पांडुरंगबाब जशे मेळटाले तशे 'चाफेल्ले सांजेंत' मेळनात. घडये तुमचे आमचेंय अशेंच जाता. प्राक्तन!

कवी पांडुरंगबाबाच्या सगळ्या कवितांनी प्रतिमा, उपमा, रूपकां घसघसून आयल्यांत. उतरांतल्यान जिणेचो अर्थ सोदतना दिसतालो तांचो सहजभाव आनी अळंगपणा मनाक ओड लायता. अणभव घेवन उक्तावपाची तांची खाशेली तरा आसा. तिका एक सुबद्द लय आसा, जो तांचो मूळ सभाव. मानसशास्त्रातल्या तरेतरेंच्या विश्लेशणांचेर सृजनशील कवींनीं सदांच प्रस्न उबे केल्यात. पांडुरंगबाबूय ताका आडवाद नात. ते वास्तवते पसून पैस वचनात, पूण विमुक्तपणाचे तांचे अणभव आमकां तांचे वांगडा व्हरतात. भायल्या जगा पसून अंतर्मनाकडे वचपी तांची भोंवणी तांच्या कवितांनी रूपायल्या. सताच्या स्पर्शाक ते भियेनात. घुस्पून घुस्पून हांगाच कित्याक उरता, तें तांका खबर आसा.

मुक्तिचो तांचो हावेस आसा आनी ती मेळोवपाचे उत्फर्के आसात. जीव आसतनाच त्या सताचो म्हणल्यार मुक्तिचो स्पर्श जावचो अशी खर इत्सा तांकां आसा. त्या स्पर्शाचो सोद ते शब्दशक्तींतल्यान घेतात, घेऽऽत आसात.

सताक स्पर्श केल्लें हे कवीचें मन म्हाका दिसतलें तेन्ना घडये म्हाका तें तुमका सांगूक जांवचेना. हांव तरी तेन्ना खंय आसतलो! हें सगळें हांवें आतां सांगप हेंच म्हजे जिणेचें मोल जांवये!

संपर्क: 7507441344

***



# मन कुशबन: दोंगुल्ल!

दादा हेगडे

वर्सुकी परिक्षे उपरांत शाळेक माया म्हयन्याची लांब सुटी आसताली. ती जरी एका म्हयन्याची म्हणली, तरीय जवळजवळ देडेक म्हयनो शाळा सुरु जाय नासली. मामाच्या घरची फेरी, मुंबई सोयरे दायरे हांची गोंयची वारी, हे सगले व्याप सोपून लेगीत आमकां बरेच दीस मेकळे मेळटाले. त्या दिसांनी वेळ काळ नासतना घरा भायर हेडप, जाय ते खेळ खेळप, पाण्ट्यार वचून पेंवप अशांनी वेळ मारप जातालें. तातुंतलोच आमचो त्यावेळचो एक उद्देग म्हणल्यार 'दोंगूल्ल भटकंती' आसताली. दोंगर आनी दोंगुल्ली हांच्या दोगांयच्या उंचाये मेरेन जी पावना ती घडये 'दोंगूल्ल' आसुंये. एके वटेन काराळी गांव दुसऱ्या वाटेन बोबृमड्डी वाडो हांचे मदसार कुसमणच्या दोंगुल्लीचें साम्राज्य आसलें. दोंगुल्ल्येच्या पालसाणीचेर कचकचून भरिल्लीं काजूंचीं झाडां, तांच्या मदीं चारां, चुत्रां, काण्णांची, भेळसांचीं भरशिल्लीं झोपां. पालसाणी मुळा सामकार सरभोंवतणीं ल्हान ल्हान शेताच्यो बांदयो. शेतां मेरेर खूबशीं रान आंवाळ्याचीं झाडां, मदींच एका बांदार रांकेंत माड आनी लागींच दोन व्हड चिंचेचे रुख आसले. ह्या सगल्या वाठारा मजगतीं दुमेंतीन मानालें मातयेचें, सूलच्या नळ्यांचें ल्हान बसकें घर, ताच्या लागसारूच पिवपा उदकाची बांय. ही सगली कुसमणच्या दोंगूल्ल साम्राज्याची त्या वेळची संपत्ती!

दोंगुल्लेंत वचपाक दोन वेगळ्यो वाटो आसल्यो. थंयसर पावच्या आदीं खारीज हुंपचो पडटालो. आयज लेगीत तशेंच करचें पडटा. माडाच्या करव्यांचेर कसरत करीत तो हुंपचो पडटा. दोनय वटेनचे करवे सांतानाल्या घरा लागसारचे. ताच्या लागसार रावपी दोगूय घरकाराचीं नांवां सांतान अशीं आसलीं. हांव जेन्ना दोंगुल्लेंत वतालों तेन्ना खारीज हुंपपाक दुसऱ्या सांतानाल्या घरा लागसारच्या करव्याचो उपेग करतालों. खारीज हुंपल्या उपरांत 'शांतीबाग' नांवाचें भाट लागता. हांगासर भारतकार हेगडे देसाय हांचें स्मारक आसा. ह्या भाटाच्या एका वटेन व्हाळ व्हांवता. व्हाळाच्या दुसऱ्या अर्दासावन दोंगुल्ल सुरु जाता.

गिमा दिसांनी, चारां, चूत्रां वांगडा दुमियानमानाल्या राखणेंतल्या काजूचीं बोंडां तिवूंय चोरुन खावपाची मजा साप्प वेगळी आनी धाडशी कशी आसली. काजू बुड्डुवपाक वचचे पयलीं आमच्या झुंडींतलो एकटो बारीकसाणेन ते सुवातेची 'टेहळणी' करून येतालो. ताच्याच फुडारपणाखाला त्या दिसाची धाड घालप आनी तिवूय दुमीयानाची नजर चुकोवन अशी येवजण आसताली. वर्सभर दोंगुल्लेचो पारो आनी देखरेख दुमीयान करी. ६८ ते ७० वर्सांची 'धडधाकट' धवे फुल्ल केंस आशिल्ली, सोडा बाटले ग्लासांच्या दाटायेचें दोळ्यांर वक्ल लावपी, हातांत आपल्या परस लांबायेच्या सुक्या कोंड्या बडयेच्या आदारान चलपी, आसकीनाचेर साडये लुगट गुटलायिल्ली बायल मनीस म्हणल्यार दुमियानमाना. तिची नदर चुकोवन दोग खांप्या पाडेल्यांनी वेग- वेगळ्या वाटांनी वचून काजू झाडांचेर चडून बसप. रोकडेंच हेरांनी घरालागसार आशिल्ल्या बांयचें उदक पिवचें निमित्य करून दुमियांना लागीं खबरो करीत तिका धाळ दवरप. तो मरेन काजू झाडांचेर चडिल्ल्यांनी काजू खुंटावपाचें काम सादोवन घेवप. हो सगलो गनिमी कावो दुमियानाच्या बोडांत येता म्हणसर थंयसावन कूस मारप ही रणनीत थारिल्ली. खंयच्याय मिलिटरी स्कुलांत शिकूंक नासतना लेगीत हो 'सर्जिकल स्ट्रायक' आमी व्हडा धिटायेन निपटायताले. कांय वेळार ही अचकीत घुरी फत्ते जातालीच अशें नासलें. काजू झाडाच्या

पानांची बारीक सळसळ लेगीत दुमियानाचे कान वाटारायताले आनी तेच सरशीं ताचें पोजड्या गाळयां पुराण सुरु जातालें. तें सुरु जालें रे जालें, आमी थंयसून वेळ काडी नासताना-फुज्यो मारताले. दुमीयान ही फांचू भाटकाराली मुंडकात्र. साबार दोंगुल्लांची तल्लक तिच्या लागीं आसली. जुजे फ्रान्सिस फुर्तादो म्हळ्यार फांचू फुर्ताद हो मूळ सालसेत म्हालांतल्या नावेली गांवचो. त्या तेंपावेलो व्हडलो भाटकार आसलो. तो फकत भाताचो खंड व्हरपाक गिमा म्हयन्यांत कुसमणां येतालो. आयज तीं दोगय जाणां ह्या संवसाराक अंतरल्यांत.

दोंगूल्ल पांया पोंदा घालतां घालतां चारां, चुन्नां, काण्णां, पिटकोळां, भेंळसां, बरीं तशींच विखारी फळां, पाळां ह्या सगळ्यांची लागसार सावन वळख जाली. भर दनपारां वता रखरखांत ह्या दोंगरार पाशाणी तळपां मुळां सावन व्हांवपी थंड झरीचें गोड उदक, कुड्या पानांच्या खोल्यांनी पिता आसतना अमृत रुचीक कशें लागूं येता हाचो अणभव येतालो. जीव जिवाण्यांचो भंय असो केन्नाच दिसूंक ना. एका वेळार सगले दोंगूल्ल आमी उकत्या पांयांनी, जोतीं घाली नासतना अनवाणी माङ्खिल्यांत. आयज जोत्यां बगर जमनीर दोन पावलां चलूंक नजो! काजूबोंडां पाडीत, दोधेलां चोखीत 'पिश्या फातरार' बसून पोन्या मेयांनी कोमिल्ल्या काजू बियांचें मेजप जातलें. 'पिश्या फातर' म्हणल्यार विचित्र कात्र्या- कात्र्याचें व्हड पाशाणी फातराचें तळप आसलें. ह्या विचित्र कात्र्यांच्या भूंयतळा पासत त्या तळपाक 'पिश्या फातर' म्हणटाले जांवये. तट्टटीत रोसाळ काजूचीं धोदेलां फातरावपाची मजाच वेगळी आसली. बियांचें मेजप सोंपल्या उपरांत त्यो तिट्यार 'भिश्या' माणार व्हरून विकप. विकल्या उपरांत त्या पैश्यांनी 'मामा काणेकाराली' नाजाल्यार 'गोविंदाली' गरम स्पेशल भाजी पाव खावप. ही त्या वेळार आमची सुखाची कल्पना आसली!

आयज जशी गांवागांवांनी खेळा पासत सरकारी मैदानां आसात तशीं त्या वेळार नासलीं. शेतां न्हिवल्या उपरांत भूरग्यांनी थंयसर विंगड विंगड खेळ खेळप हें सामकें सर्व सादारण कशें आसलें. दोन बांदलां मदली मेर मोडून तासून, काडून क्रिकेटीची पीच तयार करप. दोंगुल्लेंत क्रिकेट खेळटना आमकां LORDS स्टेडियमाचेर खेळटात अशें दिसतालें. त्याच पिचीर फुटबॉल खेळप. खेळा उपरांत थंयच बसून राजकारण ते समाजकारणाच्यो गजाली करप. ह्या गजालीं वेळार तो आमचो TIME SQUARE जातालो. क्रिकेट फकत SEASON बॉलांनी खेळटाले. एकाच पांयाक पॅड आसतालें, खेळटल्याचें तशें रनराचेंय बी! पॅड बांदूंक नाशिल्ल्या पांयाक घट्ट सिजन बॉल लागून हाडां सुजल्यांत. तोच बॉल तोंडार बसून वोंठ फुटून रगत व्हांवलां. तरी लेगीत ह्या सगळ्यांची आमकां कसलीच दूख अशी जाणवली ना. हाचें कारण दोंगुल्लेच्या मातयेचो गूण आसूंये. हांगासर खेळिल्ल्या आमच्या आमिगांनी मुखार भौशीक मळार बॅस्ट क्रिकेटर म्हूण लेगीत नामना मेळयल्या. लागसारुच दोन चिंचेंचीं झाडां आसलीं. खेळा उपरांत त्या चिंचेंचो एक पाडो जातालो. पिकिल्ल्या चिंचेंबोंटा परस अमुरपिक्या चिंचेंबोटाक चड Demand आसतालो. त्या वेळार आमची पिराय लेगीत तशी अमुरपिकीच आसली. म्हयनो मायज आमी त्या जाग्याचो खेळपा पासत उपेग करताले. आमी थंयसर विंगड विंगड खेळ खेळटात म्हण जाग्याच्या भाटकारान आमचो खेळ आडवपाचो केन्नाच यत्न केलो ना. आयज मेकळे सुवातेर कोणी खेळटात म्हण कळ्ळ्या बराबर सुवातेच्या चारुय अर्दांनी आडवण केल्ली दिसता. नाजाल्यार थंयसर मातेयेची वा फातरांची रास घाल्ली दिसता. असल्यो आडवणी कर नासतना त्या वाठारांतल्या भूरग्यांक खेळूंक सुवात मेकळी दवरुंक दोंगुल्ले येदेंच व्हड काळीज लागता. त्या तेपार तें त्या वेळच्या लोकांकडेन आसलें. आतां खूबश्या जाणांचीं काळजां बायपास केल्यांत.आडरस्त्यान चालू दवरिल्लीं, आडवन राखिल्लीं !!!

एका वर्सा वाड्यावेली एक गुरवार बायल पार्तेरां वेळार मेली. तिच्या फामिलीन तिचे दोंगुल्लांत दफन केलें. आमच्या भितरल्या एका विरान ती आलवातीणीच्या रुपांत दिश्टी पडटा म्हणपाची हुयेली घाली. आमचेर ताचो व्हडलोसो परिणाम जालो ना. मात एक दीस खेळटना मातशी तिनसांज जाली. त्या वेळार त्याच विरान ती पळय चांफ्या झाडार आलवातीण झोपाळे घेता म्हण बोब मारली. सगल्यांनी फाटी फुडें पळय नासतना बेटां, विकेटी घेवन खारजा कडेन कूस मारली! दुसऱ्या दिसा झाडाचेर हालतालें तें कोणाचें तरी पोत्रे पिंजकें कापड म्हण कळ्ळें. त्या उपरांत आमच्या त्या आमीगान आठवडो भर दोंगुल्लाची सुटी घेतली.

कुसमणची दोंगुल्ल सुटये दिसांनी आमकां लीडरशीप, स्पोर्टमन स्पिरीट, मेनेजमेंट, पुलीतीक, समाजकारण, एकचार भाव ह्यो सगल्यो गजाली शिकपाचें विद्यापीठ कशें आसलें. ह्या विद्यापीठांत शिकिल्ल्या प्रत्येक विद्यार्थ्याची वेगळी काणी आसा, वेगळो अणभव आसा. ल्हान व्हड धंदेकार ते ईश्कोलान शिकपी अशे सगल्या पिरायेचे मनीस हांगासर खेळ्ळे, लोळ्ळे आनी व्हड जाले. म्हज्या यादींतली आमच्या वेळावेल्या कृष्ण आनी गोपीची मजा आमी दोंगुल्लांत अणभवल्या. फरक इतकोच आमच्या टोळक्यांत कृष्ण फिक्स नासतालो. तो कोण हें त्या दिसाच्या घडिल्ल्या घडणूकेचेर थारतालो. आयज साळावलेच्या कॅनलापासत दोंगुल्लेचीं दोन अर्दां जाल्यांत. भूरग्यांचें उक्त्या जाग्यांनी खेळप, काजू मुळांनी भोंवप तर जवळ जवळ बंद जालां. सगल्यो गजाली ऑनलायन जाल्यात. पर्यावरणांचो जितो अणभव घेतलो तर अनवाणी, सकाळ सांजवेळ पळयनास्तना आपल्या गांवच्या असल्या वाटारांची भटकंती केल्या बगर मेळूंक कुस्तार.

काळानुसार जाल्ल्या बदलावाक आपणावन लेगीत दोंगूल्ल म्हज्या बरोबरच्या वांगड्यांक आयज लेगीत उक्तेपणान साद घालीत आसता. वेळ मेळटा तेन्ना आमी ताच्या उल्याक ओ दितात. फकत दोंगुल्लेचे मुळावेपण शेणचें न्हय हे पासत!!

संपर्क: 9822129070

***



# वास, सहवास

## मुकेश थळी

वास. परमळ. गंध. सुगंध. नाक ह्या इंद्रियांक जावपी अनुभव. बरें, ह्या वासाच्यो नाना तरा. वा... आ हा हा हा, अशीं उतरां हुंगतनाच वा हुंगनासतना लेगीत दरवळा वयल्यान येवचीं आनी आहाहाऽऽ वा म्हूण धन्य जावचें. हे उद्गार काळजांतल्यान येतात. जितली रसिकता, अभिरूचीसंपन्नता अदीक तितलेच वासांचे अणभव तीव्र.

फुलांचे वास विविध. भुरगेपणात हांव शाळेंत वतालों. कुळागरांचे रांकेंतल्यान. नक्षत्राच्या वा अती सूक्ष्म सुदर्शनचक्राच्या आकाराच्या ओंवळांची रास पडिल्ली आसताली. ओलसर मातयेंत. मातयेचो वास आनी तातूंत नाक तृप्त करपी हो ओवळांचो सुगंध. कुळागरांच्या वळींतल्यान वतना एके वटेन लांबचेलांब शेतां आशिल्लीं. वेगवेगळ्या हंगामांत तांचो वास आंगभर सुखद शिरशिरी हाडटालो. गाड हळडुव्या चाफ्यांचो सुगंध कुळागरांत अचळय धोलत धोलत फांकारचो. कुळागराच्या एके वटेन उदकाची एक तळी आशिल्ली. ताची धड वा वंय म्हळ्यार हातो वा कवासो. थंयसल्लो हातो काडून फुलकार म्हाड्डोळा बाजारांत उबे रावन विकपाक व्हरताले. हात्याच्यो पाकळ्यो तातूंतली अळंग पिठो सोडपी बारीक टर्कीश उश्या भशेन आशिल्ली फुलाची रचना मोहक आसताली. तातूंतल्यान उदेवपी सुगंध सोबीत आनी सुरेख आसतालो. कसल्याच कृत्रिम परफ्युमाची तुळा ताचे कडेन जावं नजो. म्हाड्डोळच्या गंध, स्वर, दिव्यत्व हातुंतूच म्हजो जन्म, घडण आनी पोसवण जाली म्हणल्यार अतिताय न्हय. हो गांवूच फुलांच्या सुगंधांचो. अनंताच्या फुलांच्या कळयांच्यो हळयो हांवें हांगाच पळेल्यो. जायांचो परमळ म्हळ्यार कळस. खुबूच सैमीक. ल्हवपीकपणान पातळपी यमन रागाच्या स्वरांसारको हो सुगंध. कसो आसा तूं शाण्या अशी वासपूस केल्लेसारको नाकाक सांसपुपी. म्हाड्डोळा येवन जायांची पूजा म्हाळसा संस्थानात अणभवची, नाक तुमकां लाख लाख धन्यवाद दितलें.

शिरगांवच्या देवी श्री लईराईक मोगऱ्यांच्यो फांतयो अर्पण करतात. जात्रे वेळार थंय वचचें. तुडुंब उदक जशें धरणांत भरिल्लें दिसता तशें मोगऱ्यांच्या सुगंधाच्या घमघमाटाच्या सागरांत आमी पेंवतात असो भास जावचो. पारिजातकाचोय सुगंध म्हाका आवडटालो. रातराणीचो गंध शांत, स्तब्ध, रातींच्या काळखांत आपलें वरतेपण गाजोवपी.

म्हाड्डोळा ताज्या हळडुव्या चांफ्यांचो वास घेतलो तो अजून नाकांत तस्सो आसा. आजयेल्या पोरसांत गांवठीं कुजां. कुंजांच्या माटवार फुलतालीं त्या धव्याफुल्ल कुंजांचोय वास सुखद. हळडुव्याच सुरंगांचो आनी सुरंगां वळेसराचो वास आंगांआंगांत भिनून सुखाचो शिरशिरी दिवपी. म्हाड्डोळा हे अणभव खूब घेतले.

'फुलाला सुगंध मातीचा', ह्या नांवाचें मराठी नाटक गाजलें एका तेंपार. सुंदर प्रतिकाचो वापर. इंदिरा संतांच्या 'मृदगंध' पुस्तकाक आमी विसरूंक शकतात? पयलो पावस शिडशिडून मातयेक आफडिना फुडें जो सुगंध नाकाक तृप्त करता तेन्ना तो सुगंध कुपींत बंदिस्त करचो अशें आमच्यांतल्या बालमनाक दिसता. हालींच एक पुस्तक वाचलें. मातीला सुगंध फुलाचा.



फळांचेय वास खास. रसाळ पणस पिकतकच लागसल्ल्यान वचप्याक पणसांतल्या गऱ्यांच्या म्होंवाचो घमघमाट येता. चिंचो पिकूंक लागतकच वाऱ्या बरोबर हो चिंचेबोटांचो वास सरभोंवतणी वलयांकीत जावन प्रवाहित जायत रावता. स्कूटरीन वा चलत येत्या वत्याक एका खिणा खातीर लेगीत चिंच आपलें अस्तित्व ह्या वासांतल्यान दाखयता. आतां आंबे, काजू ह्या पिकांन चंवर येतलो. बरोच सुंदर सुगंध आंब्या पिकावळींत घमघमत वतलो. थंयसुल्ल्यान येत्यावत्याक वसंताची जाणीव करून दितलो. सैमाच्या जादवाची सुलूस दाखोवन दितलो. आंतेर म्हणजेच रामफळ घरा वा झाडार पिकतकच ताका कस्टर्डाचो असो गंध येता की इंग्लीशींत कस्टर्ड एपल नांव कित्याक दिलें हें होलमता. काजू अर्थात मुट्टो आणि मानकुराद आंबो झाडार जेन्ना पिकतात आनी रस पूर्ण भरून सकयल स्रवपाक तयार जातकच फळ भुंयेर घालून घेवपाक तयार आसता त्या परीपक्वतेच्या खिणाक आंब्याचो आनी काजूचो जो परमळ वाठारभर पातळटा तो अणभवच आगळोवेगळो.

घरांत रांदचेकुडींतले वास आगळे. अन्नपदार्थांतल्यान सुटपी वास आनी उपरांत खातकच अणभवतात ती रूच आनी सुवाद रसनेक तृप्त करतात. वेगवेगळ्या तरेचे फोव, उपमा, भाकरी, बटाट भाजी, हेर भाजी आनी हेर पदार्थांचो घमघम घरभर पसरता. भूक आनीक जागृत जावन जीब मुतूंक लागता. खतखतें व्हडल्या तोपांत तयार जाता आसतना वेगवेगळ्यो पालेभाज्यो, कंदमुळां हांचो संमिश्र एकवटीत वासाचो परिणाम नाकाक खावपा खातीर सज्ज जायात असो आदेशूच दिता. वासाळ दिखाळ ताज्या ताज्या तोरांचें लोणचेंय तयार जातनाच भकाऱ्यांक आनी रगडी मारप्यांक आपल्या वासानूच मोहित करता. धोणस, तवसळी, पातोळ्यो... सगळे पदार्थ आपापल्या जातकुळीचे सुगंध दिवन आनंद दितात.

पावसांत ओल्या धुल्लाचो आनी ओल्या मातयेचो घमघम सुट्टाच. खंय तरी घराच्या जनेलांतल्यान सुक्या बांगड्यांची किसमूर वा भाजिल्ल्या सुक्या बांगड्याची वा वेल्ल्यांची सुलूस नाकाक लागता. कितले वास हे अपुरबायेचे!

वनस्पती, रानां, पोरसांतलीं फुलझाडां हातूंतल्यान कितले सुगंध

*(पान ३० चेर)*

# सैमाचो खेळ

रमेश घ. लाड



मन जड जालें! वेळ कसो घालोवचो ते कळना जावन, वाऱ्याच्या विलोदी स्पर्शाची आस धरून पडवेत बांकार बशिल्लों. किते करतलो? चकाटां मारुन वेळ घालोवपाक आशिल्लो तरी कोण लागी? अशा वेळार सैमाच्या लागसार वचून पळोवचें अशें चिंतलें! वेळ वतलो, पांय सदळ जातले आनी नितळ - शितळ वाऱ्याची ल्हारां आंगार घेवंक मेळटलीं अशे चिंतून बांदावटेन पावलां धुंवडायली.

भाटांतल्यान वता मोव-मोव रेवेचें पांगरुण घेतिल्ली सोरपी वाट. सगळो वाठार थंड. शितळ जाला माडाच्या चुडटांच्या सावळेन. दीस बुडपाचो वेळ! सवणीं-मोनजात घरां परततात. कामाक साकून परततलो लोक तुरतुरीत पावलां उडयत घरचे उबेक आशेवन नीट घरा वता. रेंदेर आपली सळाणी घालीत, कांतरां करीत माडाचेर येरा-दाऱ्यो घालता. बोवाळ - गजबज कांयच ना! पोंक-पोक कानार पडना. धायी वटेन दिसता तो सैमाचो खेळ आनी शिंपडिल्ली गिरेस्तकाय! किते दोळ्यांत भरचें? दिसता, गिन्यानाचीं पांचूय आंगा एकठावन ती गिरेस्तकाय बकबकीत गिळून आनी घटघटीत पीयेवन उडोवंची! किते तो सैमाचो नदर लागपा सारको खेळ !

शेतांमदलो तो बांद! बांदार मदींच एक सुपुल्लो सांकव! सांकवा पोंदच्यान व्हांवता हारशावरी चकचकीत उदक. बांदाच्या दोनीवटेन आंग पातळावन पडल्यांत रसरशीत शेतां! शेतांतल्यान व्हांवन येवपी उदक सांकवापोंदा खोलसर जाग्यार एकठावलां. ताका आयलां सोबीत सुपुल्ल्या तळ्याचें रुप! उदकांत सुळक्यो मारीत भोंवतात बारीक-बारीक नव्या उमेदीची रुप्या आंगांचीं नुस्ती आनी पिट-पिट्यो तरनाट्यो बेबक्यो! व्हांवत्या उदकाक जाप ना! तें जालां मोनें! मदींच एक हेवाळें एक नाचतलेवरी नाच करुन नाच्च जाता!

शेत जाला हळडुवें! आंगार हळद चडोवन गोऱ्या आंगाच्या व्हंकलेवरी ताचे आंग तिकतिकता! सूर्याचो भांगरा रंग ताच्या आंगार शिंपडटा आनी तांची तिकतिकसाण चड वाडटा! लजेन मान वांकडी करुन रावपी सुंदरेवरी शेतांतले एक-एक रोंप रावलां तकलीं बागोवन! खिणभर दिसता नितळ उदकाच्या हारशांत त्यो पैलटकात्री आपणालें जड आंग पळोवन सपना रंगयतात!

गिरेस्तकायेची राखण करपाक उबे आसात पांचवीं चेपी घाल्ले विंगड विंगड पिरायेचे कणकणीत शिपाय! जातीं जातीच्यो पलटणीमाड, आंबे, सायल, भिण्णी, जांबळी, ओंवळी, केगदी, शिवणी, पणसा आळी! कांय ल्हान, कांय व्हड! कांय जाण्टेले धादोसकायेन भल्लेले! कांय हुतहुते-पयस किते दिसता तें पळोवपाक मानो लांब करून तकल्यो वयर काडटात आनी कांय आपणाले नेमून दिल्लें काम करपांत गुल्ल!

वारो बेकार जाला! हाज्यो-ताज्यो कळी काडीत मेळत ताका विकाना करीत भोंवता! केन्ना उदकाक खातकुल्यो कर आनी ताजें आंग शिरशिराय, केन्ना शेतांतल्या जड जांगाच्या रोपांक खुबळाय, म्हण्टासर ताडमाड रुखांक धुकलून मुखार वच नाजाल्यार माडा कवळ्यांनी लिपून रावून अकस्मात भायर सरून चुट्टांक भेष्टाय! असली एका मस्त्या भुरग्याचीं अवचीनपणां करपी त्या वाऱ्याची तोखणाय दिसता आनी मन खोशेन भरता! उमेद जाता! आंगार खिणांत तिळगुळावेल्या कांट्यावरी रसरशीत कांटो फुलता!

आनी किते तें मळब! दिसता किं सर्गार देव होळी खेळटात आनी शिगमो फुलयतात! एकमेकांचेर तरा-तरांचे रंग मारतात! रंगांची जाळी कुपां जळी-मळीं शिंपडल्यांत! सूर्य पयस रावून तो खेळ पळेता-उजवाडाच्यो झोती घालून सोबीतकाय निरखिता! तेन्ना त्या कुपांक नवो रंग चडटा! निकतीच उज्यागाडी गेल्ली आसता! धुंवराचीं कुपां जावन वयर वतात! वाट चुकिल्ल्या पाडकांवरी घरची वाट सोदीत तीं भोंवतात. वारो लटोकपणान तांचेसरीं आपणाले खेळ खेळटा! तीं बाबडीं गोंदळटात आनी वाट दिसता थंय भितर सरतात घरची वाट समजून!

रुखांच्या कुरकुटांनी बसपाक कावळ्या-सवण्यांचो पयस बोवाळ चल्ला, पांखाची फडफड आनी चोंची-चोंचींतल्यान येवपी सुरांचो खवदळ कानार पडटा! मदींच त्या कोल्ली कोगळाचे सूर आनी चानयां-सवण्याचें गायन! गाडयेच्या धडधडीत आवाजा भितर हेय बी आवाज घुस्पतात! तेन्नाच कपेलाच्या घांटीक जाग येता आनी आमोरेचो वेळ जाला तें सांगपाक ती साद घालता. माचयेर काळोख जाता आनी पड्डो पडटा.

शांतताय वाडत वता! मळवाच्या मंटपांत निशादेवी दिवे पेटयता! तांच्या मिणमिण्या उजवाडाक चंद्रीम हांसता! सूर्य सगळ्यांची काकुळट करीत उषादेवीच्या कुडीत भितर सरता! सवतीच्या मत्सरान फुगिल्ली निशादेवी दोळयांवेल्यान पांगरुण घेवन कोणाक दिसना तशी दुखां गळयता! सगळो सैमाचो खेळ कांय वेळा खातीर थांबता. पावलां आपशींच फाटीं सरतात. मन भरिल्लें आसता सैमाच्या एकठांय केल्ल्या गिरेस्तकायेन!

संपर्क: 9764924552

***





# कविते विशीं

**माधव बोरकार**



७.०१.२२

रामाण्याल्या नोटबुकांत कांय कविते सबंदान म्हत्वाच्यो नोंदी मेळटात. ए. इ. हाऊसमन ह्या इंग्लीश कवीचें एक quotation आसा. हाऊसमन म्हण्टा: 'एखाद्री वळ आठवतकच सगळें आंग फुलून येता. हांव खाड करतना लेगीत चेऱ्यावेले केंस एकदम उबे जातात.' कवितेचो मनाचेरुय न्हय तर आपल्या सर्वांगाचेर परीणाम जाता. हेंच हाऊजमन सांगता. सगळ्यांच कलांच्या बाबतींत तशेंच म्हणूं येता. एखाद्रें गाणें आयकतना भितल्ल्यान उचंबळून येवन दोळ्यांत दुकां येतात आनी आंग नकळटां फुलारुन वता. तेच प्रमाण एखाद्रें चित्र परत परत दोळ्यार येता आनी आपलो अर्थ तुका सांगत रावता. कलेच्या अणभवाची ही तांक.

१३.०१.२२

कवितेचें खरें माध्यम खंयचें असो एक प्रश्न उप्रासता. कवितेंत शद्ब आसतात आनी ह्या शद्बांचो प्रवास तातूंतल्यान व्यक्त जावपी भावाकडेन जाता. देखून भाव हें कवितेचें खरें माध्यम मानचें काय?

१४.०१.२२

'यु ट्यूबा'र नामनेचे तबला वादक पं. सुरेश तळवलकाराची मुलाखत आयकली. पं. पंढरीनाथ नागेशकाराचे ते शिश्य. तबल्याची तालीम दितना नागेशकार तांकां हेरांचें तबलें आयकुपाक सांगताले आनी तांच्या वादनांतलीं सौंदर्यस्थळां दाखयताले. पेण हांगा रावपी पं. हरीभाऊ घांग्रेकर हे झपताल आनी आडाचौताल ह्या दोन तालांचेर प्रभुत्व मेळयल्ले विद्वान वादक. हे दोन ताल शिकपा खातीर पंडितजीन तांकां घांग्रेकरा कडेन धाडले. अशे तरेन आपल्याक तबल्याच्या नादविश्वाकडेन पळोवचेली नदर दिली अशें तळवलकर सांगतात.

हांगा म्हाका याद जातां ती शंकर रामाण्याची. तांचे कडेन हांव पावलो तेन्ना हांव पंदरा वरसांचो भुरगो आशिल्लो. कवितेंतले कितें कांयच कळ नाशिल्लें. ताणी म्हजे कडल्यान एक एक कवी वाचून घेतले. अनिल, ना. घ. देशपांडे, पु. शि. रेगे आनी बाकीबाब हांच्यो कविता हांव वाचूंक पावलों. मागीर ह्या कवींचे कवितेचीं खाशेलींपणा ताणी म्हाका दाखयलीं. 'सत्यकथा' म्हैनाळ्याच्या नव्या अंकांत प्रसिद्ध जाल्ल्यो कविताय ताणी म्हजे कडल्यान वाचून घेतल्यो. एखाद्री कविता आशय आनी लय हे नदरेन वयर वता आनी एखाद्री बरी कविता खंय आनी कशी फसता हें ते दाखोवन दिताले, हें तांचें व्हड रीण म्हजेर आसा. ताणी म्हाका असो घडयल्लो कवितेंत गुरु नासता. आसता तो सहप्रवासी.

कवी मुखार दुसऱ्या बऱ्या कवींचे आदर्श आसपाक जाय. हालीं एक नव्या कवीचो कविता संग्रह वाचपाक मेळ्ळो. पळयत जाल्यार ताचो आदर्श ऋतुप्रमाण कविता बरोवपी एका नव्या कवीचो. पावस येतकच तो आपल्यो पोरन्यो कविता भायर काडटा. बाकीबाब, रामाणी, मनोहरराय हांच्यो कविता सोडून ह्या सामान्य कवीक आदर्श केल्यार हो तीशींत आशिल्लो कवी चांटभर फुडें पावचो ना.

१०.४.२२

कवी ताचे कवितेचे अभिव्यक्तीची भास आनी ज्या भाशीक वाठारांत तो वावुरता हांचो एकामेकांकडेन कितें संबंद आसा हो एक विचार करपा सारको विशय. ते खातीर द्विभाशीक कवींचो अणभव कितें हाचो सोद घेवचो पडटलो. ए.के. रामानुजन ह्या भारतीय कवीचो हे विशीं वेगळो अणभव आसा. ताची मायभास तामीळ. ती ताची घरांत उलोवपाची भास. तो वाडलो म्हैसुरा सारकिल्या कन्नड भाशींक वाठारांत. आनी शिकपाची भास इंग्लीश. आपल्या सर्जनाखातीर आपल्या मुखार कन्नड, तामीळ आनी इंग्लीश हे पर्याय आशिल्ले. जे मेरेन ते भारतांत आशिल्ले ते मेरेन ताणी कन्नडांत कविता बरयल्यो. तेच बरबर कांय कथाय. हे बराबर कांय इंग्लीश कविताय केल्यो. मुखार ताणी अमेरिकेक स्थलांतर केले. ह्या स्थलांतरा उप्रांत तांचो कन्नड भाशीक अवकाशाकडलो सबंद उणो जालो आनी ताका लागून तांचें कन्नड बरोवप कमी कमी जायत गेलें. सामकेंच थांबलेंच म्हळ्यार जाता. हे मुखार आपले हातसून कन्नड कविता बरोवन जायत काय असो दुभाव तांकां दिसपाक लागलो. रामानुजन हांगा एक अणभव सांगता. तांचो एक कन्नड कवी इश्ट तांकां मेळपाक आयलो आनी ताच्या कांय म्हयन्यांच्या राबित्यांत तांचे कडून उलोवन उलोवन आपूण कन्नड वातावरणात गेलों आनी तातूंतल्यान आपल्याक एकार एक कन्नड कविता सुचपाक लागल्यो असो अणभव रामानुजन सांगता. भाशीक अवकाश हो कवीचें विश्व घडयतां हातूंत दुबाव ना. भारतीय इंग्लीश कवी सबंदान ताचें एक अर्थपूर्ण विधान आसा. तो म्हण्टा, "Indians writing in English are mostly writing in a second language and it raises several questions" जीवितभर ताणे ह्या प्रश्नांच्यो जापो सोदल्यो.

संपर्क : 9420222876

***

कथा

# काळीज तुट्टा तेन्ना...

निमीशा होबळे



'निधी आयल्यार आयज दोन दिस जाले. म्होंवाळ उतरांनी सगळ्यांची काळजां गोड करपी निधीचेच काळीज सद्या कोडू शें दिसूंक लागला. सदांच येवच्या येंवन "आयलें हांव मावशे, पळय आता कशीं धुमशेणां घालता तें!" म्हणपी ही म्हजी धुवडी घरांत आसा म्हूण लेगीत कळना. मुयें येदी बारीक जांव हत्तीयेदी मोटी गजाल मावशेक सांगल्याशिवाय निधीक हरशीं सुख लागनां. कितें जाला काय? कितेंय तरी जालां जावंये. आतां हो मोनेळ तोडचोच पडटलो.' माधवीन निश्चेव केलो रातची निधीक न्हीद लागपाखातीरची 'कॅमोमील'च्या घेवन ताचेफुडयांत गेलें.

माधवी निधीकडेन प्रस्नार्थक नदरेन पळयत रावलें.

"कितें जालें मावशे?"

"निधीच आयला न्ही आमगेर? हेंच निश्चित करता. निधी तर आमचें हांसते शें फुल. पूण म्हज्याफुड्यान तर बाविल्ली कळी बसल्या. कित्याक बावल्या काय ही कळी?"

"बावूं नाजाल्यार कितें करूं मावशे? कळयेक जितो दवरपी जिवूच सोडून गेलो तिका!" निधीच्या दोळ्यांतल्यान टप टप करुन दुकां पडली.

मावशेन मायेन केसांवयल्यान हात भोंवडावन निधीक लागी वोडलें.

"म्हज्या बाये, तुजी ही कुवाड्यांची भाशा सोसूं नजो. तुजें दुखणें पळोवंक नजो. कितें जाला शाण्या? सांग म्हाका. इतलें दुखेस्त तुकां हांवें केन्नाच पळोवंक ना.

"मावशे... हांव आनी रजत... आमचो तीन वर्सांचो मोग... आमचो मोग तुटलो गे... आमचें नातें तुटलें! ताणें तोडलें तें. म्हणपाक लागलो, 'म्हाका तुज्याविशी आतां मोग दिसना. कांयच अर्थ ना आमच्या नात्याक. आमी वेगळी जावंया." ही चार उतरां उलोवन तो म्हाका आमोरेच्या पान्यार रस्त्यार एकटेंच सांडून गेलो. ताच्या उपरांत हांवें ताका फोन, मॅसेज करपाक येत्न केलो, ताचेकडेन उलोवन ताका समजावपाचो यत्न केलो, पूण कांयच जावंक ना. आनी... आनी थोड्या दिसांनी मावशे... मावशे म्हाका तो दुसरे चलयेवांगडा मोगाचे खेळ खेळटना दिसलो."

"कितलो जीव घालो हांवें ताचेर, आनी ताचें फळ म्हूण म्हाका अशें भायर मारलें ताणें! कितें आनी खंय तरी चूकलें हांव गे? खंय कमी पडलें हांव?" निधी आता हुडक्यांनी रडूंक लागलें.

"बाय गों म्हजे तें. म्हाका तरी दिसनां तूं खंय कमी पडलां शें. तुजी कांयच चूक ना. जे जावन गेलें तें गेलें. रजतान दुसरी वाट धरली. कितेंय जाल्यार तो परत येत अशें म्हाका दिसना. आता तूं लेगीत दुसरी वाट धर. नव्या जिणेक सुरवात कर." मावशेन निधीक थातारपाचो यत्न केलो.

"दुसरी वाट? ना मावशे, रजतान ती धरल्या आसत. पूण हांव ताचेच वाटेक वतलें. हांवें जे दूख भोगलां तें ताकाय भोगचें पडटलें. हांव ताका सुखान जगूंक दिंवचे ना."

निधीच्या दोळ्यांत बदल्याचो उजो भगभगतालो. ताची अवतिकाय माधवीक घडये फुडें कितें जावपाचें आसा हाची चत्राय दिवन गेली. माधवीचे पांय आपशींच ताच्या कुडीकडेन वळ्ळे. आलमारींत चोरखणांत दवरील्ली पंचवीस वर्सां पोरणी डायरी भायर काडली. भांगरावस्तीर हात भोंवडायता तसो ताणें डायरेचेर हात भोंवडायलो. "म्हज्या शेणलेल्या निधीक आता तूंच वाट दाखय." माधवीन डायरी काळजाकडेन घट धरली आनी निधी म्हऱ्यांत गेलें.



"बाय, आतां फुडलें पावल उखलच्यापयली ही डायरी वाच. हातूंत पंचवीस वर्सांपयलीचो काळ, तातूंतल्यो घडणुको आनी त्या घडणुकांच्या धड्यांनी तुज्या मावशेक कशें घडयलें हाच्यो जापो आसात. तुजेर मातसो चडूच मोग आसा म्हूण तुकां ही अमानत दिता. ना जाल्यार आपली निजी डायरी कोण कोणाक वाचपाक दिनात हें तुका खबर आसा." माधवीन निधीच्या केसां वेल्यान हात भोंवडायलो आनी न्हीदपाक गेलें.

खाटीर न्हिदिल्लेकडेन माधवीच्या दोळ्यांतल्यान दुकां अळंग पोल्यार देवंली. ताच्या दोळ्यांमुखार एकवीस वर्सांचें माधवी उबें रावलें. कॉलेजींत सगळ्यांत हुशार. दोळ्यांत किर्तवंत आदवोगाद जावपाचें सपन. एल.एल.बी चे निमाणें वर्स. ह्या एकवीस वर्सांच्या माधवीक सांगात आसलो पंचवीस वर्सांच्या शौनकाचो. दोन वर्सांचो मोग तांचो. शौनकाक हायस जाल्यार माधवीक हुयस जातालें. दोगांय एकमेकाच्या मोगांत पुराय बुडिल्लीं.

अचकीत शौनकाचे वागप बदलें. तो माधवीक मेळपाक खांकुडपाक लागलो. एक दिस तो ताका मेळपाक आयलो तो सोमतो आपल्या लग्नाची पत्रिका घेवन!

"माधवी, आमचे मदलें नातें तूं विसर. आमच्यो जाती एक न्हय. जातीभायर लग्न करप हें म्हज्या घरच्यांक आनी म्हाकाय

मानवना.'' शौनकान पत्रिका माधवीच्या हातान दवरली आनी आपली वाट धरून चलपाक लागलो.

माधवी थंयच घट जालें. झाडाच्या खांदयांवरी ताचे हात आनी पांय कोणें तरी मारलेल्यावरी ताका दिसलें. तें थंयच कोसळ्ळें. शून्य दोळ्यांनी शौनक आपलेकडल्यान पयस वता तें पळयत रावलें.

दुसऱ्याच खिणाक ताच्या कुडींत रागाचो उजो भगभगपाक लागलो. त्याच रागाच्या बळांत तें जमनीवयले सडसडीत उटलें, ''लग्न करपाचे नासलें जाल्यार मोग कित्याक केलो? फक्त मजा मारपाक म्हज्या वांगडा रावल्लो?'' माधवी आड्डलें पूण ताची आड्डी मात शौनकान आयकूंक नाशिल्ल्या सारकी केली आनी चलूंक लागलो. आपल्या आंगांत भगभगपी राग आपलो थंयच गोबोर करून उडयता अशें माधवीक दिसलें. 'आपल्याक दूख दिला, आता तूंय बी दूख भोगतलो' हे भावनेन माधवीन बदलो घेवपाचें थारायलें.

शौनकाच्या लग्नादिसा माधवीन माटवांत वचून बरीच धुमशेणां घालीं. शौनकान आपल्याक कशें फटयला हें थंय आशिल्ल्या लोकांक बोमलेच्या देठांत आड्डून सांगपाचो यत्न केलो. पूण जातीखातीर भेरे जाल्ल्या लोकांक कांयच आयकूंक येवंक ना.

शौनकाचे कांय एक वायट जांवक ना. ताचें लग्न बऱ्यातरेन जालें. पूण लुकसाण जालें तें मात माधवीचे. लग्नाच्या माटवांतल्यान पुलिसांनी ताका धरून व्हेलें. निमण्या वर्साची एल.एल.बी. परीक्षा त्या वर्सा बुडली.

माधवी एकटें पडलें. मनाचें तळमळे आनी जिणेचो संघर्ष तें डायरेर बरोवंक लागलें. एक अपेशी, सोंपिल्ल्या नात्याच्या फाटल्यान धांवून आपणें वेळ वगडायला हें ताका कळून चुकलें. ताणें परत स्वताक घडोवपाचो निश्चेव केलो आनी तें अभ्यासाक लागलें. निमण्या वर्साची परीक्षा परत दिली आनी तातूंत ताका घसघशीत येस मेळ्ळें.

आयज माधवीक आपल्यो केसी लडोवपाक लोकांक वेळ मागोवन घेवचो पडटा. भूतकाळांतले घडणूकेन ताचें काळीज थोडें अस्वस्थ जालें खरें पूण आपूण आयज खंय आसा ह्या धादोसकायेन ताका रोखडीच न्हीद लागली. सकाळीं उठून पळयत जाल्यार निधी डायरी घेवन कुशीक बसला.

''मावशे, वाचली हांवें डायरी, काळीज तुट्टा तेन्ना तोडटल्याक ख्यास्त दिवंक वचपाच्या नादांत घुसपल्यार स्वताकूच आनीक तोडून उडवप कशें? फुडें खंयची वाट धरप हें म्हाका होलमलां. बाविल्ली कळी आतां नव्यान फुलतली मावशे! चल उठ, धुमशेणां घालया मगे?''

निधीच्या दोळ्यांत एक नवी जीण सुरू करपाची उमेद खेळटाली.

संपर्क: 8329532163

***

# भान

**कृ. म. सुखठणकार**



मनशान सदांच काळ, परिस्थिती आनी थळाचें भान दवरचें अशें आई म्हाका सदांच सांगता आनी ह्रांव तें सालांत फेना खाला बसून थंडपणान आयकतां. जाणी आमचे परस चड पावसाळे पळयल्या तांचे आयकुचें अशें जाणी आमचे परस चड पावसाळे पळयल्यात ते आमकां सांगत आयल्यात. फाटीं आईन तांबडी भाजी शिनतना पिशांक शिंगां नासतात अशें म्हणिल्लें. तें आयकल्या बराबर कितें म्हूण खबर ना म्हजो हात आपशींच म्हज्या बोडा दिकेन गेलो. आईची नदर म्हजेर आसा हाची जाणीव जाल्या बराबर म्हजो वयर गेल्लो हात हांवे मोठ्या कश्टान आशिल्ले ते सुवातेर हाडून दवरलो. आयचे पिळगेक परते प्रस्न विचारपाची पाडी सवंय जाल्या. जांकां आपूण प्रस्न विचारतां ताणी आपले परस चड पावसाळे पळयल्यात हाचें भान तांकां उरना. फाटीं आईन भश्टयाचो हात लोणच्या बरणेक लागत जाल्यार लोणचें रोखडें इबाडटा असो जनरल स्टेटमेण्ट केलो. तिचो रोख कोणाचेरुच नाशिल्लो. आमच्या मदल्यान विज्ञानाचो आदार घेत तें विधान खोडून काडलें. हालींच ऑनलायन घेतिल्ले परिक्षेंत तो विज्ञान विशयांत पास जाल्ल्यान ताची कॉनफिडन्स लेव्हल तेंगशेर पावल्या. आईन आपले केंस अशेच वतान धवें जावना अशें म्हणत लोणच्याचो आचांव आमचे पसून पयस फळयेर दवरलो. मदलो परत विज्ञानाचो आदार घेत केंस कशे वतान धवे जायना हें सांगच्या आदींच हांवे ताका त्या दिसा अशिल्ले ऑनलायन परिक्षेची याद करुन दिली आनी भायर धांवडायलो.

तर, आई सदांच काळ, परिस्थिती आनी थळाचें भान दवरचें अशें म्हणटा. हांगा काळ म्हणजे वेळ. आमचे मायभाशेंत आमी 'काळ' हें उतर आमच्या मुडा प्रमाण वापरतात. आई लेपाचो हात च्याचे बगुण्याक लायत जाल्यार 'तुमचेर काळ आयला' अशें म्हणटा. हांगा काळ हें उतर वापरलां तें दुसर्या अर्थान. आमी सोडिल्लें यान मंगळार पावलें तरी आमच्या हाताचो लेप रांदचेकुडी भायरो जायना. सोड, तें जावपाक आनीक कितलो काळ लागत सांगू नजो. हांगा काळ म्हणजे वेळ. आमची आनी आमच्या आदींच्यो पिळग्यो भूतकाळांतूच चड रमिल्ल्यान तांकां वर्तमान आनी भविश्य काळा कडेन सांगड घालप मातशें कुस्तार वता जावंये. शेजारचे राज्यांत रयतेक हे बाबतींत जागोवपाचें व्हडलें काम थंयच्या संतानी केलें. 'घटका गेली पळे गेली तास वाजे झणाझणा' अशें म्हणत आमचें श्रद्धास्थान रामदास स्वामीनीं भौसां भितर जागृती केली. म्हणजेच ताणीं लोकांक भानार हाडले. हाका लागून जे कोण न्हिदिल्ले ते जागे जाले अशें म्हणपाक हरकत ना. आमचे गोमंत भुमीत अशें घडलें ना. तातूंत भर म्हणून हांगा पुर्तुगेज आयले. ताणीं हांगा येतना खूब कितें हाडलें. तातुंत सुशेगाद हें उतरुय ते घेवन आयले. पुर्तुगेजांनी आमकां सुशेगाद केले काय ही पिडा आमचे भितर पयलींच आशिल्ली हें जाणून घेवपा खातीर हांव भाशातज्ञ आनी विचारवंत पांडुरंग रामराय सावंत (खालचा वाडा, तारी जवळ) हांच्या सरी गेलों. हालीं कोविडाक लागून ते कोणाक मेळनात. तरी आसतना हांवे तांचे कडेन एपोयंटमेण्ट घेवन, डबल मास्क लावन, दो गज की दूरी दवरुन काळा विशीं कांय प्रस्न विचारले.

**हांव (डबल मास्क लावन):** नमस्कार पांडुरंग बाब. आमकां गोंयकारांक काळ म्हणजेच वेळेचें भान कित्याक उरना. पुर्तुगेजांनी आमकां सुशेगाद केले म्हूण तांचेर घालूंया? कारण ते आज गोंयांत नात. जे ना तांचेर धुकलपाची आमची संवंय म्हणून हांव तुमकां हो प्रस्न करतां. दुसरो प्रस्न पयल्या प्रस्नाक धरुन आसा. हांगा संतानी आमकां 'घटका गेली पळे गेली...' म्हूण जागे केलेना म्हणून आमची ही स्थिती अशी?

**पांडुरंग बाबः** आरे सगले प्रस्न एकाच वेळार एकाच स्वासान विचारुं नाका. तो पांडुरंग कितलीं तरी युगां कमरेर हात धरुन आसा. हो तारी कडलो पांडुरंग आतां गेल्यार बद वैकुंठाचेर हें हें हें.... तुज्या दुसऱ्या प्रस्नाची जाप पयले सुवातेर दिल्यार जाता न्ही?

**हांवः** बरेऽ भशेन.

**पांडुरंग बाबः** आमकां काळाचें भान कित्याक उरना? कारण तो आमचे कडेन भरपूर आसा. जी वस्त आमचे कडेन भरपूर प्रमाणान आसता तिचो आमकां वालोर म्हणटा तो नासता. भरपूर प्रमाणान वेळ आशिल्ल्यान ताचें कितें करप हो आमचे मुखावयलो व्हड प्रस्न. आतां भायर पावस पडटा. (हांव पांडुरंग बाबा म्हऱ्यात जून म्हयन्यांत गेल्लों. आतां पावस वर्सूय भर पडटा देखून हो खुलासो)... रोखडेच थोडे गरयो घेवन गरवणेक वतले. उरिल्ले व्हाळार कुल्ल्यांक. पयर म्हाका येद्यो येद्यो बऱ्यो खरचाण्यो मेळ्यो.

**हांवः** कितें केलें खरचाण्यांचें?

**पांडुरंग बाबः** तळ्ळ्यो चरचरीत. तुमी गरवणेक बी वता तो वेळेचो अपयव्य. कळ्ळें? आमच्या संतानी शिटकायलेंना म्हणू नाका. 'हरी भजना वीण काळ घालवू नको रे' कोणे सांगलें आमकां? संत सोयरोबानाथान. आमचोच तो! अशे गांवार भोवन चकाटां मारुन वेळ घालोवनाका, तो वेळ सत्करणी लाय. आयकलें तुंवे?

**हांवः** बुवान अभंग बरो गायला. अभंग गायन बुवा फाटल्यान सोंपलें. हें म्हजें मत आं.

**पांडुरंग बाबः** हांव अभंग आयकलो काय विचारीना. सोयरोबानाथान कितें सांगलां ताका पाळो दिलो तुंवें?

**हांवः** श्रावण म्हयन्यांत देवळांत आमचो बिरेस्तार आसता. तेन्ना आमी सकाळीं दिवली पेटोवन 'हरी विठ्ठल हरी विठ्ठल' असो गजर करतात. मागीर रातचे आमी उसळेचे दोणे वाट्टात.

**पांडुरंग बाबः** पोरुं काय पेले वर्सा उसळ भेळशेल्ली म्हूण बोवाळ पडिल्लो.

**हांवः** केन्ना केन्ना जाता तशें. मिश्टीक ती. देवाक म्हूण भेळशेल्ली

उसळ! कलीयुग जालें म्हणून कितें जालें, आमचेर इतलोय काळ येवना. तर, आमी विशया कडेन वळुंया न्ही?

**पांडुरंग बाब:** तूं म्हणटा तशें आमकां संतानी शिटकावना अशें न्ही. हरीचें भजन करुन लेगीत आमचे कडेन वेळ उरतलो आनी आमकां ताचें कितें करचें हें कळचें ना. आगोऽऽ तिसऱ्यांचें डांगर करता मुगो? थोडीं मासां सेपाराद काड (रांदचे कुडी कडेन फुडो करुन).

**हांव:** आज डांगरांचो बेत काय कितें? मस्का फुलां घालून आनीक मजा येता.

**पांडुरंग बाब:** हय आज खूब तेंपान मोठ्यो तिसर्यो मेळ्यो. धबधबीत आनी डांगर.

**हांव:** फुडें?

**पांडुरंग बाब:** आमकां संतांचेर बेठेंच धुकलूंक मेळना रे. तुजो पयलो प्रस्न कितें? पिराये प्रमाण आतां याद उरना.

**हांव:** आमकां वेळेचें भान पयलींच नाशिल्लें काय पुर्तुगेजांक लागून आमी सुशेगाद जाले?

**पांडुरंग बाब:** ना. हेंय आमकां पुर्तुगेज गेले म्हूण तांचेर धुकलूंक मेळचें ना. हांव हें बेठेंच उलयना. पुरावे आसा म्हजे कडेन पुरावे!

**हांव:** पुरावेऽऽऽ?

**पांडुरंग बाब:** हो पांडुरंग हातांत कितें आसल्या बगर उलयना. आमकां सुशेगाद पुर्तुगेजांनी करुंना. पुर्तुगेज हांगा येवन सुशेगाद जाले म्हणल्यार जाता. सुशेगाद हें उतर ते गोंयां येतकच परत उजार जावपाक लागलें काय कितें हाचेर अभ्यास जावपाक जाय.

**हांव:** हाचो पुरावो?

**पांडुरंग बाब:** कदंब गोंयांत आयल्या बराबर षष्ठदेवाक ताच्या मंत्रानी सांगलें आमी गोवापुरी हें आमचें राजपाटण केल्यार बरें. कुशावतीचें बरें धड लागना, केन्ना सुकत सांगू नजो. त्या भायर गोवापुरी सामकी फामाद आशिल्ली. 'गोकर्णादुत्तरे भागे सप्तयोजन विस्तृतं तत्र गोवापुरी नाम नगरी पापनाशिनी' असो उल्लेख पुराणांनी आसा जाणा मरे?

**हांव:** फुडें?

**पांडुरंग बाब:** आरे त्या षष्ठदेवान, 'करुया रे सवकासायेन' अशें म्हणून व्हड जांबय दिली आनी दोनूय हात फांकून आंग मोडलें. ताची सवकसाय इतली की जयकेशी खुर्चेर बसतकच ताणे आपलें राजपाटण गोवापुरीक हालयलें. आतां हांगाचें पाणीच अशें म्हणचें पडलें ना. ओगीच सगलें त्या बाबड्या पुर्तुगेजांचेर कित्याक घालूंया? आतां षष्ठदेव जांबयो दिता आनी आंग मोडटा हाचे व्हिडियो बी म्हजे कडेन ना आं! ह्हें ह्हें ह्हें... पुणून पुरावे आसात. आतां कदंब कन्नड, संस्कृत आनी कोंकणीय जाणा आशिल्ले हाचेरुय हांव पुरावे सादर करपाचों आसा.

**हांव:** केन्ना ते?

**पांडुरंग बाब:** आरे, कदंबानी चांदराच्यान व्हडल्या गोंया वचपाक इतलीं वर्सां घेतलीं, म्हाकाय टायम दी मरे ह्हें ह्हें ह्हें... ह्या कदंबांच्या नावान गोंय सरकार एक परिवाहन मंडळ चलयता. तें तितलेच सवकासायेन कित्याक चलता तें आतां कळ्ळें मरे? ह्हें ह्हें ह्हें.

**हांव:** तर, आमकां कदीम काळा पासून काळाचें भान ना. तातूंत भायले शक्तीचो कांयच हात ना तर?

**पांडुरंग बाब:** बॉट लेगीत ना. आतां हांव न्हावपाक वतां. गोंयकार जालो म्हूण कितें जालें टायमार न्हातां ह्हें ह्हें ह्हें... बरें आं.

**हांव:** देव बरें करुं. तुमचे कडल्यान मोलादीक म्हायती मेळ्ळी.

पांडुरंग बाबान सांगिल्ले प्रमाण आमच्या संतान आमकां जागोवपाचो येत्न केलो पूण आमी ताका पाळो दिलो ना. हाच्या परतें शेजारच्या राज्यांत समर्थानी 'घटका गेली...' म्हणल्या बराबर सगले खडबडून जागे जाले आनी वेळेचें भान दवरुन सेकंदांनी कोंत करपाक लागले. एकदां नलूचो घरकार (म्हजो साडू) गोंयां आयिल्ले कडेन हांव ताका म्हांबऱ्याल्या फार्मासींत घेवन गेल्लों. हांव अमृतांजनाचो म्हयन्याक लागता तो स्टॉक थंयच्यान एकदम हाडून दवरतां, तुमचे म्हायती खातीर. तर थंय साडवान सहज आपूण ८.०२ विरार फास्ट धरुन कामाक वतां असो उल्लेख केलो. हें आयकून उपस्थीत मंडळीन आपआपलीं रेसेदां आनी घेतिल्लीं वखदां नाबीर दवरुन आपआपलीं बोटां आपआपल्या तोंडांत घालीं. आठ वाजून दोन मिणटां असो टायम घडयाळ दाखयता अशें ताणी पयलेच खेपे आयकल्यान तांची स्थिती अशी जाल्या हें म्हाका रोखडेंच कळ्ळें. म्हांबऱ्यालो ताळो सुकिल्ल्यान ताणे बरणी उगडून स्ट्रेपसील्साचें पिपिरमींट तोंडांत उडयलें हें हांवे दाव्या दोळ्यान पळयलें. आमकां घडयाळीर आठ जातकच डायरेक्ट साडे आठ पळोवपाची संवंय, चडानचड सवाय आठ. मदीं बारीक काडयो आसात त्यो सुवात रिकामी उरता ती भरपाक असो आमचो समज. ८.०२ विरार फास्ट चुकत जाल्यार ८.०७ बोरिवली स्लो धरची पडटा अशी साडवान म्हायती दितकच सगल्यांचो ताळो सुकलो. म्हाका म्हांबरो आतां शारोपाची बाटली तोंडाक लायत म्हूण भंय. बाजाराक आयिल्ले म्हांबऱ्याले फार्मासे भायर गर्दी करपाक लागले. म्हांबऱ्याल्या फार्मासीर मिणटांनी कोंतां करपी अवतारी पुरुश आयला ही खबर रायबंदरा पाट्यार रोखडीच पातळ्ळी. हांवे आनीक गर्दी जावपाक नाका म्हूण साडवाक हाताक धरुन फार्मासी भायर काडलो. आठ वाजून दोन मिणटांचे गाडयेंत दांड्याक धरुन हुमकळत वचपी ह्या प्राण्याक चार बोडकां गूंग जावन आपलें आयकतात हें पळोवन नेट सो आयिल्लो. 'धांवती गाडी मी एका हातात डबा, दुसऱ्या हातात पिशवी धरुन कशी पकडतो हे तुम्हाला उद्या सांगीन' अशें निरोप घेत ताणे सांगलें. म्हांबर्या सकट सगल्यांनी ८.०२ विरार फास्ट धरपी अवतारी पुरुशाचो भरिल्ल्या दोळ्यांनी निरोप घेतलो.

'Time is money' असलीं वचना गोंयकारांक लागू जायनात. आमचे कडेन वेळ भरपूर आसा हो बाळकडू आमकां बाळपणांतूच मेळटा. म्हणटकच आमकां वेळेचें भान उरतलें तरी कशें? ''फाटीक वाग लागिल्लेवरी कित्याक खाता? सवकास खा. प्रत्येक उणी बत्तीस खेपे चाबून लाळी वांगडा खाल्यार खाता ताचें पचन बरें जाता. बकऽ बकऽ करुन खाल्यार आंगाक कशें लागतलें? सकाळची प्रार्थना चुकल्यार कांय जायना. मना सज्जना भक्ती पंथेची जावे हें सगल्यांक खबर आसा.'' हो बोध आमकां शेवयां सांजो खातना मेळटा. मागीर एक घांस आमी चौसश्ट फावटीं चाबून लाळी वांगडा खाताले आनी

प्रार्थना बी जावन शाळेंत पावताले. आमचो पाटील गुरुजी गोंयां पावन गोंयकार जाल्लो. भायल्यान हांगा पोट भरप्राक आयिल्ले हांगा पावतकच हांगा एकरुप जावन सुशेगाद जातात तें एक बरें. पाटील गुरुजीन चुकून उशीर कित्याक जालो अशें विचारल्यार "आज शेवयाचा शीरा बत्तीस खेपे चाबून गिळ्ळा. पचनाची क्रिया खरं तर तोंडात उणी असताना सुरु होते. उणी नीट चावून खाल्ल्या मुळे लाळ सुटून अन्नाला योग्य वंगण मिळते असं आई म्हणते", अशी जाप दितकच पाटील गुरुजी पचन क्रिये भितर वच नाशिल्लो.

मुंबय वचून आमचें नलू भाशा धरुन सगलेच बाबतींत मुंबयकार जालां. हांगा येतकच खूब फावटीं ताका आपूण गोंयां पावलां हाचें भान उरना. मागीर आई बेजार जाता. "तूं मला ओगीच वयर सकयल करु नकोस, मग मी काचाबूल होते. हुमणाला मीठ घातलं की नाही हें लेगीत आठवत नाही. त्यात आज माझा बिरेस्तार आहे. तूं जरा रांदचेकुडीहून बाहेर हो. मला कुठली आगगाडी पकडायची नाही". अशें म्हणून आई ताका तें गोंयांत आसा हाची याद करुन दिता.

भारत देश स्वतंत्र जालो तरी आमी इतलीं वर्सां परकी राजवटी खाला कित्याक उरले? थंय चालू आशिल्ले घडामोडीचें भान आमकां नाशिल्लें काय? हो प्रस्न म्हाका 'भारत माझा देश आहे. सारे बांधव...' हें वाचतकच पडटालो. ह्या प्रस्नाचेर आधारीत प्रस्न हांवे म्हज्या जल्मदात्यांक लेगीत विचारलेलो.

"आगे शेजारच्या देशांत भारत छोडो आंदोलन जालें, विदेशी कपड्यांची होळी जाली, चरख्याचेर सूत काडप चलतालें, तुमकां हातुंतलें कांयच करीन दिसलें ना? तूं म्हणटा मुगे आशीकुशीक कितें चल्लां ताचें भान आसपाक जाय म्हूण!"

"फकत भान आसलें म्हूण जायना, हांगा आमी आमटाण कल्लायतलीं, आटकां फोडटलीं, भिण्णां फोडून सोलां आगळाक घालतलीं काय चरख्यार बसून सूत काडटलीं? विदेशी कपड्यांची होळी करपाक कपडे नाका? तुज्या आज्याच्या वाल्याची होळी केल्यार तो न्हेसतलो कितें आशिल्लो? गांधीजी कडेन वाले आशिल्ले तितले लेगीत ताचे कडेन नाशिल्ले. बारावो, श्राद्ध चलोवन वाले मेळटाले तेय सुती. तांची होळी करपाची? हांगा आमकां परिस्थितीचें भान दवरचें पडटालें शेजारच्या देशांत कितें चल्लां तें पळोवपाक वेळ कोणा कडेन आशिल्लो?"

अशी जाप मेळटकच हांव भारत माझा देश आहे पाठ करपाक बसलों. तें बरयतकच परिक्षेंत दोन गूण पदरांत पडटात हाचें भान म्हाका बेस बरें आशिल्लें. सोड.

आईन, 'आमकां परिस्थितीचें भान दवरचें पडटालें' अशें म्हणलें तें बरोबर. मनशाक परिस्थितीचें भान आसप गरजेचें हें ती म्हाका सदांच सांगता हें हांवे तुमकां वयर सांगलांच. जाका परिस्थितीचें भान आसता वा जाणीव आसता तोच खूब फावटीं परिस्थितीचो फायदो घेता अशें म्हाका दिसता. परिस्थितीचें आकलन करप सामकें गरजेचें अशें विचारवंत म्हणटा. आकलन करप म्हणजे नेमकें कितें करप हें म्हाकाय खबर ना. व्हड मनशांची आपजीण काडून वाचल्यार तांका परिस्थितीचें भान आशिल्ले कारणानूच ते व्हड जांवक पावले हें आमकां कळटा. घरांत दिव्याक तेल घालपाक पैशे ना. घरची परिस्थिती (आर्थीक) कितें ती तांकां त्या सान वयांत पसून खबर आसताली. ते कोणाक सांग नासतना रस्त्यावयल्या खांब्या सकयल शिकूंक बसताले आनी वर्गांत पयले येताले. फुडें ते व्हड कशे जाले हें आमी घरा ६०W बल्बा खाला बसून शिकताले. पास जाताले काय ना तो वेगळो विशय. म्हाका परिस्थितीची जाणीव केन्ना जाली ना अशें आई सदांच म्हणटा. एकदां हांवे 'आदत से मजबूर' (मिथून -रंजीता) हो सिनेमो पळोवपाक आईकडेन पैशे मागले. फाल्गून म्हयन्याच्या पाड्याक फकत सत्तर नाल्ल पडिल्ले तें म्हाका खंय खबर.

"तेवटेन माडाक हुंदीर लागल्या हेवटेन हो जीव खाता. शिणेम्याक वचपाक भायर सरला! मात परिस्थितीचें भान नाशिल्लो भुरगो! हांगा संसाराचोच शिणेमो जाला!"

आईन हुंदराचो राग म्हजेर काडलो जांवये. पौराणीक सिनेमो पळोवपाक ती मोन्यानी हातार बारा आणे दवरताली. ह्याय खेपे हांवे खंयचोय पौराणीक सिनेमो गुलमर्गांत लागला म्हणिल्लो जाल्यार ती म्हाका पैशे दितली आशिल्ली. 'जय संतोषी माँ' (कानन कौशल- भरत भूषण) पळोवपाक वता सांगून हांवे 'जूली' (लक्ष्मी- विक्रम) सिनेमो पळयला. आईन म्हाका परिस्थितीची जाणीव ना अशें म्हणलें तातूंत तथ्य आशिल्लें, ना अशें न्ही. तेन्नाच खांडेपारचो भाऊ आमगेर भितर सरलो. ताच्या कानार आमच्या माडाक हुंदीर लागिल्ल्यान पाड्याक सत्तर नाल्ल पडल्या आनी हांव आदत से मजबूर पळोवपाक पैशे मागतां ही खबर पडली. ताणे सदचे भशेन खुटयाळ्याक तोपी लायली, माथ्यावयल्यान हात फिरयलो आनी साई इतना दिजिये जा में कुटुम समाय. मैं भी भुखा न रहूँ, साधू न भुखा जाय अशें म्हणत मान्यांत हात पांय धुवपाक गेलो. आयची पिळगी तसलीच अशें म्हणत उज्यांत पेत्रोल रकयलें ना हें ताचें व्हडपण. परिस्थितीचें भान दवरीत जाल्यार ताचो फायदो कसो करुन घेंव येता हें जाणून घेवंचे जाल्यार खंयचोय कृश्ण धवल कौटुंबीक जिवाळ्याचो मराठी सिनेमो पळोवचो. तातूंत म्हयन्याचे एक तारखेक घरकार घरा येतकच घरकान्न ताच्या हातांतलो जेवणाचो रिकामो डबो आनी पास्त घेता. आज तुम्ही फार दमलेले दिसतात. संसारा साठी राब राब राबतात अशें म्हणत ताचो घाम दाव्या हातान पदरान पुसता आनी उजव्या हातान ताका उदकाचो पेलो दिता. तुमच्या साठी तुमचा आवडटा शिरा केला आहे बरं! अशें म्हणत ताच्या सामकार बशी दवरता. चड लाडान येत जाल्यार आपल्या हातान एक कुलेर ताच्या तोंडांत घालता. तोय लाडान येत जाल्यार ती 'ईश्श्यऽऽ' म्हणत धबऽ धबऽ करुन पयस धांवता. हें सगलें घडटा तें परिस्थितीची जाणीव दवरुनूच. भुलुसून मागीर तो घरकान्नीच्या हातार सगळो पगार दवरता आनी मेकळो जाता. मध्यानेर नळाचो सोंऽऽऽ आवाज जातकच उठा नळ येतोय पाणी कोण भरणार तुमचा काका असो ती प्रस्न करता. ताका मागीर दोन तारीख उजवाडली हें कळटा आनी तो भानार येता. 'दीन है सुहाना आज पहली तारीख है खूश है जमाना आज पहली तारीख है' हें पद तुमी आयकलां आसतलेंच. बायलांक परिस्थितीचें भान बर्‍या पैकी आसल्या कारणान तांकां ताचो लाव घेवप बरे तरेन जमता हें आमकां रामायण वाचल्यार वा पळयल्यार (रामानंद सागर

प्रोडक्शन) कळटा. कैकयीन दशरथान दिल्ले दोन वर रोखडेच 'रिडीम' केले ना. तिणे ताका सांगलें फुडारांत आपूण ते आपल्याक जाय तेन्ना रिडीम करतां. हें तिणे प्लस मायनस पोंयट्साचें भान दवरुनूच योग्य निर्णय घेतलो अशें म्हजें मत. मंथरेन तिचे कान फुंकले बी सगलें फट. हें तिणेच मान्य केलां. ह्या खातीर हांव आमचें श्रद्धा स्थान मैथिलीशरण गुप्त हांचे 'कैकयी का अनुताप' हातुंतल्यो कांय वळी दीन. कैकयी म्हणटा,

*'क्या कर सकती थी, मरी मंथरा दासी*
*मेरा ही मन रह सका न निज विश्वासी...*
*थूके, मुझ पर त्रैलोक्य भले ही थूके*
*जो कोई जो कह सके, कहे, क्यों चूके?'*

ह्यो वळी वाचतकच हें सगळें कैकयीचेंच कारस्थान हें आमकां कळटा. अशें भान सगल्यांकूच आसता अशें ना. एकदां म्हजें नशीब बरें आशिल्लें (अशें चुकून जाता). गणिताचे तोंडी परिक्षेंत म्हाका धा चो पाडो पडलो. धा चो पाडो पडलो म्हूण हांव म्हजें नशीब बरें अशें म्हणना. हांवे तो चुकनासतना म्हणलो हें म्हत्वाचें. ताका लागून हांव गणितान पास जालों. त्या दिसा आमगेर शिरी मामा पाविल्लो. तेन्ना मायनींग तेजींत आशिल्लें.

''भाचो धपक्यांत गणितांत पास जालो अशें आयकतां. कितें जाय रे तुका?''

ताणे उजव्या हाताच्या तिसऱ्या बोटाक घाल्ली हिऱ्याची मुदी त्याच हाताच्या आंगठ्यान घुंवडायत विचारलें. मिनाचो वेवसाय बंद जातकच त्याच हाताच्या त्याच बोटाक ताणे तांब्याची मुदी घाल्या. कालोराक तांबे बरें म्हण घाल्या अशें सांगता, तुमचे म्हायती खातीर. दशरथान अशेंच विचारतकच कैकयीन कितें केल्लें हें हांव 'भरत भेट' ह्या धड्यांत शिकिल्लों. पूण म्हाका त्या खिणाक ताचें भान उरलें ना.

''म्हाका चिमुलकान्नीच्या काल्याक साखरेच्यो दोन बावल्यो घे.''

हांवे म्हजे लायकी प्रमाण मागलें.

''दिल्यो!''

अशें म्हणून शिरी मामा उजव्या हाताच्या तिसर्या बोटाची मुदी फिरयत गेलो. शिरी मामान दिल्लो वर हांवे धपक्यांत रिडीम केलो हें दत्ताक सांगल्या बराबर ताणे शाळा माथ्यार घेतली.

''एका मिनेरा कडेन तूं साखरेच्यो बावल्यो मागता! तूं सदांच हुतहुतो.''

दत्तान म्हजो उद्धार केलो. ताचेंय सामकें चुकूना. आई म्हाका सदांच धेंगांनी वाडला म्हणटा. तेंय खरें. कांय वर्सां गेलीं. म्हजें लग्न थारलें. गोंयांत मायनींग चालूच आशिल्लें. शिरी मामाच्या बोटाक मुदी आशिल्ली (कितल्यावें बोट आनी कसली मुदी तें तुमकां सांगलांच).

''बेताळाक बायल आनी काळबा देवीक घोव मेळ्ळो तर! कितें जाय रे तुका?''

कांय वर्सां पयलीं विचारिल्लो प्रस्न ताणे परत विचारलो.

''हांवे हनीमुनाक बांद्या वचपाचें थारायलां. VIP सुटकेस जाय आशिल्ली''

''दिली''.

अशें शिरी मामान म्हणलें आनी आईन रांदचेकुडींत कित्याक तरी 'चळ्ळऽ' करुन फोण्णां मारलीं. बापायन सदचे वरी वयर फोराक पळयलें. परत हांवे घाई केली हें म्हाका जाणवलें.

''पापया शिरी मामा गुळेली मीन उस्पिता तातुंतलो एक खोटलो विकल्यार अख्ख्या रायबंदराक समराङ्गा वाडूं येतालीं''.- दत्तान कपलाक हात मारलो. सोड.

हांव लेखक जाल्ल्यान (आठ पुस्तकां प्रकाशनाच्या वाटेर आसात) म्हाका रायबंदर (फोंडवें) तशेंच देशांतले परिस्थितीचेर भान दवरचें पडटा. आतां लोकांचीं मना हळवीं जाल्ल्यान तांच्यो भावना रोखड्यो दुखावतात. हाका लागून कितेंय बरयतना कोणाच्योच भावना दुखावच्यो ना हाचें भान दवरचें पडटा. फाटीं हांवे दिसाळ्यांत एक कथा बरयल्ली. ते कथेचो नायक दनपारची तांबडी भाजी खाता आनी ताच्या पोटांत सुकता असो ते कथेचो प्रसंग आशिल्लो. तांबडी भाजी खातकच स्वता म्हज्या पोटांत सुकता म्हणटकच तें बरयतना म्हाका व्हडलें कांय दिसलें ना. ती कथा आयतारचे पुरवणेंत छापून आयली आनी मंगळारच्यान संपादकाक वाचकांनी धाडिल्ल्यो चिटयो छापून येवपाक लागल्यो. जाणी जाणी आपल्या पोर्सांत तांबडी भाजी लायिल्ली तांच्यो सगल्यांच्यो भावना दुखावलेल्यो. संपादकान म्हाका आफोवन ते कथेंत फावो ती सुधारणा करुन ती कथा परती बरोवपाक लायली. वाचप्यांच्या भावनेची कदर करीत हांवे ती विनोवणी मान्य केली. फुडल्या आयतारा ती परत छापून आयली आनी वाचप्यांक ती भावलीय बी. ते कथेंत नायक दिसांतल्यान एकूच पेलो उदक पिता त्या खातीर ताच्या पोटांत सुकता असो हांवे कथेंत बदल केल्लो. दोतोरागेर वता तेन्ना दोतोर ताका भरपूर तांबडी भाजी खा नाजाल्यार तुका एनिमिया जातली असो सल्लो दिता.

समाजान जाल्ल्या बदलाक लागून बरोवप्यांनी दुसर्यांचेंसाहित्य चोरतना (Plagiarism) भान दवरप सामकें गरजेचें. बाकीबाबाची 'माझ्या गोव्याच्या भुमीत' ही कविता तश्याची तशी आपल्या नावांन छापली जाल्यार तें कोणाक कळचें ना ही गजाल खरी. पूण ती वाचून मात छापतल्याचें हांशें जातलें. कारण बाकीबाबान ते कवितेंत वर्णिलां तें गोंय आज ना. हाणे खंयच्या गोंयांचेर ही कविता बरयल्या काय हो प्रस्न वाचप्यांक पडूं येता. हांवे बाकीबाबाचे हे कवितेची देख कित्याक दिली हाका कारण आसा. आमच्या नागवेकारान हे कवितेंत फावो ते बदल करुन ही कविता छापून हाडली. ही कविता वाचप्यांनी उखलून धरली. हे कवितेच्यो कांय वळी हांगा दितां म्हणटकच तुमकां अदमास येतलो.

*'माझ्या गोव्याच्या भुमीत*
*फुटे बियर फटाफट*
*स्टारटर घेऊन येई*
*टाटू केलेले हात*
*माझ्या गोव्याच्या भुमीत*
*झाला काल्यांतला गडगडा इतिहास जमा*
*मांडवीवरी तरंगती कॅसिनो*
*तिथे जाऊन आता रमा'*

काय समिक्षकांनी बोरकाराचे (बाकीबाब) कविते परस नागवेकाराचें

'माझ्या गोव्याच्या भुमीत' वर्जन उजवें थारता अशें मत परगटायलें. ह्याच खातीर हांव म्हणटां कोणाचीय साहित्यकृती उखलपाक हरकत ना पूण तशें करतना फावो तें भान दवरचें इन्नलेंच. नागवेकारान गोंयांत घडिल्लो बदल हाचें भान दवरिल्ल्यान तो तोखणायेक पात्र थारलो अशेंच म्हणचें पडटलें. आसूं.

वयर म्हणलां तशें आमकां थळाचें भान आसप सामकें गरजेचें. आमकां खूब फावटीं हाचें भान उरना. हेच कारणाक लागून देवळांनी 'शांतता राखावी', 'महिलांनी ह्या बाजूला बसावे' असल्यो पाटयो लावच्यो पडटात. तावेंर्नार बसतकच जशे आमी वागतात तशे घरा घेंवक बसतकच वागपाक मेळना हें भान आमकां आसप गरजेचें. तें भान आमी दवरलें ना जाल्यार केन्नाय आयतारा घरा जेवणा आदीं घेवपाची सूट मेळटा तीय ना जातली. लुक्साण आमचेंच जातलें. नलू नवेंच लग्न जावन घोवा बराबर गोंयां आयिल्लें. घोवाक (साडवाक) मटण आवडटा म्हूण हांवे उसगांवां वचून एके शिटयेर शिजपी मटण हाडलें. दनपारां आईन आमकां भायर वचून जाय तें प्राशन करुन येयात पूण घरांत नाका अशी सूट दिली (तिणे भायर शेण खावन येयात अशें म्हणिल्लें). आमी जें प्राशन करपाचें तें करुन आयले. जेवणार नलूचो घोव (आरोंदेचो भुमीपुत्र) तांच्या पांढर्या आनी तांबड्या रश्श्यांचे गूण गावपाक लागलो. हांवे एकदां आयकलें, दोनदां आयकलें मागीर हांव खंय आसा हाचें भान म्हाका उरलें ना.

''प्राचीन गोमंतक हा णवशें गावांचा म्हणजे आजच्या गोव्यापेक्षा मोठा होता. त्याच्या सिमारेशा दक्षिणेस कर्नाटकातील गोकर्णच्या अलीकडे असलेली गंगावली नदी आणी उत्तरेस कुडाळ पुढील नदी अश्या होत्या. पुर्तुगेजांनी कब्जा केल्यावर गोव्याच्या सीमा मर्यादीत झाल्या.''

''विशाल गोमंतक झालाच पाहिजे!'' अशें म्हणत हांवे जेवणाच्या मेजार मुठ मारली. मुठ मारली तशी हांवे ताटलेंत चोखून दवरलेली मटणाचे नळयेन आईन आपल्याक शिवराक मुळ्याची भाजी काडून घेतिल्ली तातूंत घालून घेतलें. हाका लागून शाकाहारी आनी मासाहारी जेवणाच्यो सिमो एक जाल्यो. फुडें कितें जालें तें हांगा सांगपांत अर्थ ना. मुद्दो हो की आपणे कसलीय गजाल करचे आदीं आपूण खंय आसा हाचें भान दवरुन त्या प्रमाण आपल्या वागण्याचेर फावो त्यो मर्यादा घालप गरजेचें.

हालींच (कोवीड काळांत) आमी पणजे नाश्तो करपाक हॉटेलांत भितर सरलीं. ही सदचे भशेन बेजिना कडेन हात धुवपाक गेली आनी हांव मेनु कार्ड पळोवपाक लागलों. हिणे बेजिना कडेन रावन घराच आशिल्लेवरी तुमकां हात धुवपाचे बी ना, त्याच हातानी गिळटले? असो प्रस्न केलो. तो प्रस्न तोय बी त्या आवाजाचे पट्टेन आयकून नाबीवयर लायिल्ल्या फोटवांतल्या पात्रांवान पसून आंग काडलें. ताच्या मुखार निक्तेंच निरंजन पेटयल्लें आनी उजवाती लायिल्ल्यो. रोखडीच बेजिना कडेन हात धुवपाक गिरायकांची रांक लागली. सोड. आपूण खंय आसा, आपणे कितें उलोवचें हाचें भान दवरलें ना जाल्यार फुडल्याक ताचो त्रास जांव येता. आमकां गोंयकारांक पोट भरुन उलोवपाक आवडटा हाका लागून आमी त्रासातूंय पडटात. फाटीं हिचो एक मावसो भायर पडिल्लो म्हणटकच पाचारपाक आमी गेल्लीं. हावें ताच्या पुताक हात दिलो आनी त्या समयार विचारपाचे ठरावीक प्रस्नूच विचारले आनी म्हाका समाधानकारक जापोय मेळ्यो.

''केन्ना गेलो?''

''आज सकाळीं. एक बिस्कुत खाली, दुसरी फाती बुडयतनाच...''

''जांव जांव दाने दाने पर लिखा है खानेवाले का नाम. केन्ना करतले? कोणाक रावता बी?''

''तिनांक करतले. धाकटी भयण सावंतवाडी दिल्या तिका रावतात.''

हांगा मेरेन बरें चलिल्लें. मावश्याच्या कुडी म्हर्यांत उजवात्यो लायिल्यो आनी दिवली पेटयलेली. दिवली दवरलेलो पाट बरो दिसलो म्हणटकच चवकशी करप जालें.

''तो दिवली दवरला तो पाट बरो दिसलो, खंय नारव्यां फेरयेक घेतलो?''

ह्या प्रस्नाची जाप दिवची सोडून तो उठून गेलो. हांवे हो प्रस्न विचारलो म्हूण हिचे वटेंतली गेला तो मावसो सोडून सगलीं बेजार अशें हिणे म्हाका मागीर सांगलें. मावश्यान मात पिंडाक चोंच मारली. म्हाका खंय, कितें उलोवचें, विचारचें हाचें भान ना अशें ही म्हणटा. तो पाट खंय घेतिल्लो हें मात अजून कळूं ना. सोड.

आमच्या पुरुश प्रधान समाजांत कशें बसप, कशें उठप, कपड्यांचें बी भान फकत बायलांक आसचें अशी अपेक्षा आसता. पदर सारको घेतलो ना, ओडणी घेतली ना जाल्यार बायलोच ''कसली बाये ही बायल, कपड्याचें धंग ना'' अशे तिचेर ताशेरे ओडटात. वनवासाक गेल्ले कडेन लेगीत सितेक वल्कलां न्हेसतना नाका शेवट जाला.

*'लेवू कशी वल्कला*
*ते जुळे न बाई मला*
*नीट नीवीची गाठ न जुळते*
*नीरीवरती नीरी न मिळते*
*कटीवरुनी सरते ओघळते*
*असो वरी मोखला'*

हें सगलें तांकां करचें पडटा दादल्यांक लागुनूच. दादले धड आशिल्ले जाल्यार आनीक कितें जाय आशिल्लें. एकनाथ महाराज (विंचू चावला फेम) आपले एके गवळणींत म्हणटा,

*'नेसली ग बाई मी चंद्रकला ठिपक्यांची*
*बाई ठिपक्यांची*
*तिरपी नजर माझ्यावर ह्या सावळ्या हरीची'*

आमी आनी बाकिच्यांचे नदरे विशीं न उलयल्ले बरें!

आमी समाजांत रावतात. म्हणटकच कोणेय कितेंय म्हणू आमकां समाजान घालून दिल्ले चौकटीचें भान दवरूनूच वागचें पडटा. ज्या दिसा सगल्यो चौकटी मोडून आमी आमचे मना प्रमाण वागतले तो दीस भांगराचो थारतलो. ह्या समयार म्हाका साहीराच्यो वळी याद जातात,

*'चाहे कोई खुश हो चाहे गालियाँ हजार दे*
*मस्त राम बन के जिंदगी के दिन गुजार दे'*

–संपर्क: 9850530756

***

# देग दिगंताच्या निमतान...

**दामोदर मावजो**

म्हाका केन्नाय प्रस्न पडटा- कवी शब्दांची निर्मिती करता काय शब्द कवीची निर्मिती करता! तातें पयलीं काय कोंबी पयलीं इतलोच होवूय प्रस्न जटील आसूंये. जुआंवाच्या वर्तमानाप्रमाण:

'इन द बिगिनिंग देअर वॉज वर्ड
अँड द वर्ड वॉज विथ गॉड
अँड द वर्ड वॉज गॉड'
अक्षर हें ब्रह्म हेंय हांवें वाचलां.

हांव देव मानिना. पूण शब्दाचे निर्मितेची अपरिमीत तांक हांव मानतां. शब्द आद्य हें मानलें जाल्यार तातुंतल्यान पयलो भायर सरिल्लो कलाविष्कार, साहित्याचो पयलो हुंकार म्हळ्यार कविता अशें म्हणूंक जाय.

तुमी जाणात- जेन्ना शृंगारांत गुल्ल आशिल्ल्या क्रौंच पक्षाचेर एका पारध्यान तीर सोडून जीव घेतलो तेन्ना तें प्रत्यक्ष पळोवपी वाल्मिकीच्या तोंडांतसून खंय व्यथीत जावन जो शिराप भायर सरलो तो काव्यमय आसलो. हे व्यथेंतसून अभिव्यक्त जाल्ल्या त्या विलापान उपरांत रामायणा सारक्या महाकाव्याक जल्म दिलो. असली ही व्यथाच मनशाक अभिव्यक्त करता हाचेर म्हजो पुराय भावार्त आसा. आमचो सगल्यांचोच इश्ट सतीश अचकीत आमच्या मदल्यान गेलो ताचें जणेकल्याक दुख्ख जालें. पूण धर्मानंदाक ताची खरसाण चड जाणवली जावपाक जाय. देग-दिगंत म्हळ्यार एका इश्टाचो सासणाचो पयसावो घडोवपी नियतीन केल्ल्या अन्यायाचेर एका वाल्मिकीचो विलाप अशें हांव समजतां. त्या विलापांतल्यान वाल्मिकीक आपणाले अभिव्यक्तीची तांक होलमली तशीच ह्या कवितां वरवीं धर्मानंदाकूय होलमली आसूंये. त्या निमतान एक सुंदर कविता आमकां काव्यमोगींक वाचूंक मेळ्ळी- वाचूंकच न्हय, तर अणभवूंक मेळ्ळी- हाची खोशी आमचेमदीं नाशिल्ल्या सतीशाकूय जाले बगर रावची ना.




धर्मानंदान म्हाका ब्लर्ब बरोवपाक लायलो तेन्ना हांवें म्हणिल्लें, ''आरे, हांव कवी न्हय, कोणाय कवीक सांग''. ताणें आयकलें ना. म्हूण म्हाका आयकुचें पडलें. पुस्तकाचें विमोचन म्हज्या हातान जावचें होवूय ताचो आगरो. मोडप जालो ना. हांव कथालेखक आसलों तरी सदांच कवींमदीं रमलां. बाकीबाब जावं विंदा; नारायण सुर्वे जावं नामदेव ढसाळ; आयचे केकी दारुवाला, माधव बोरकार आनी गुलजार हांकां हांव खूब मानतां. हांव कवींक लागीं तशीच म्हजी कथाय कवितेक लागीं अशें म्हाका दिसता. कथा हो कवितेचो विस्तारीत रूपकार अशें हांव मानतां. खंयचोय लेखक हो आपापणालो ज्यॉत्र, साहित्यप्रकार हो श्रेष्ठ अशें समजता. पूण हांव नमळिकायेन सांगतां, कविता- अर्थात बरी कविता- हो सर्वश्रेश्ठ प्रकार. अर्थगर्भ, अल्पाक्षरी आनी संदिग्धताय ह्या गुणानी कथेपरसूय वयर. निर्मल वर्मा म्हणी- 'अ शॉर्ट स्टोरी इज बॉर्न आउट ऑफ अ डिझायर टू एक्सपाण्ड अ पोएम एण्ड रायट इट इन द नॅरेटीव स्टायल ऑफ अ नॉव्हेल'. अशें हें कथा आनी कविते भितरलें नातें. हें नातें जुळोवन हाडिल्ले खातीर हांव धर्मानंदाचे आनी संजना प्रकाशनाचे उपकारूय मानतां आनी धन्यवादूय दितां.

मनशाच्या संस्कृतीक उन्नयनाची साक्षिदार म्हूण समाजान कविते कडेन पळोवंक जाय. दुर्दैवान, सरकाराक कला-साहित्याचें पडून गेल्लें ना. पूण समाज जेन्ना साहित्याक फाट करतलो तेन्ना मनीसजातीची संस्कृतीक अबरगत पयस ना म्हूण समजुचें. एका व्हड मनशान बरोवन दवरलां- ''नेशन्स आर बॉर्न इन द हार्टस ऑफ पोएटस. दे आयदर प्रॉस्पर ऑर डाय इन द हॅण्डस ऑफ पॉलिटिशन्स''. आयज जे दिकेन आमचे राज्यकर्ते चलल्यात तें पळयल्यार कला-साहित्याक बास्कळ दीस येतले अशीं चिन्नां दिसतात. पूण जो मेरेन कवीक, कलाकारांक समाजांत मान आसा तो मेरेन हुसको दिसना.

हुसको? हुसको मार भिस्क्यार अशें म्हणिनासतनाय मोन्यानी आपले वाटेन चलपी हो कलाकार, धर्मानंद वेर्णेकार. म्हाका जेन्ना कोणूय विचारतालो, ''हो कोण मनीस, किते करता?'' हांव म्हण्टालों, ''धर्मानंद हो फिल्ममेकर''. आयज हांव म्हणचों ना. सिनेमा, चित्रकला आनी कविता हांचे कडेन निखटी संवकळ दवरून आशिल्लो न्हय तर तांची सोबीत सांगड घालपी हो कलाकार. मेकळेपणान सांगतां- ताच्या इंटरडिस्सिप्लिनरी, भोवतांशी वावराची वळख मेळपाक म्हाका देगदिगंता मेरेन तिश्ठुचें पडलें. पूण हे तिश्ठावणेन आयज म्हजें मन विशुद्ध आनी प्रसन्न जालां. आयज ह्या कवितांझेल्याचो परामर्स घेतना हांव ताचेच कवितेंतलीं उतरां उश्णी घेवन सांगूंक सोदतां.

कवितेचो जल्म जाता तेन्ना खुबशा कवींक बांयटिणीच्यो वेणो येतात. ते कश्टतात, परवंतात, हुमेतात... मागीर कविता येता. धर्मानंद ताका आडवाद ना. पूण थोडोसो वेगळो. ताचो स्वास घुसमट्टा, मन हुमकळटा, काळजांत किसकिसता... आताक येता सो दिसता. आनी तीनसांजेर कविता येता.

तो तीनसांज कॅन्व्हासार रकयता,

काळीज कॅन्व्हासार दवरता,
अस्थी कॅन्व्हासार सोडटा,
तेन्ना ताचें मळब कॅन्व्हासार विसकट्टा!

कॅन्व्हास ताचे अभिव्यक्तीचो वांटो जाता. तो शांत आसा आनी अस्वस्थय आसा.

ताचो चेरो घुसपता कॅन्व्हासार

कारण दोंगर पेटला. आनी झाडां पेट्टात ताचो धुंवर कॅन्व्हासार पातळटा.

ताच्या हातांतले रंग ओले आसात तो मेरेन चित्र पुर्ण जावंक जाय.

केन्ना केन्ना तो वाट पळयता- कॅन्व्हास सुकपाची.

बांयटीण सुटतकच, आतां वैजीण भुरग्याक धुवन पुसून दाखोवपाक हाडपाची वाट पळयता तशी.

ह्या कवीचे बोंबलेची नाळ कॅन्व्हासा कडेन जुळिल्ली आसा. कशी ती पळयात-

केन्ना केन्ना तिच्या दोळ्यांत भरती येता आनी कवीचो ओलो जाता कॅन्व्हास.

आनी मागीर वाट पळोवची पडटा, सुकपाची, कॅन्व्हास.
जेन्ना केन्ना कवी अज्ञानांत शेणटा परतीचे वाटेर तेन्ना
सया बदलता हाच्या कॅन्व्हासा वयल्या रंगांची.
तो पळयता- तारवांचीं रंगीत शिडां कॅन्व्हासभर
मागीर कवी मनाचें सुकणे सोडटा, सोदूंक त्या कॅन्व्हासार
तें प्रवाहा विरुद्ध शीड धरपी तारूं,
आनी जेन्ना तारूं लागता काळजाचे देगेर, ब्रश चलता कॅन्व्हासार...
केन्ना केन्ना- ताची जीणच जाता कॅन्व्हास.
केन्ना केन्ना ताच्यो यादी,
देग लिपयता रेंवेपोंदा... थंय जातात यादींचीं खडपां
यादींचीं खडपां... तांचेर रेंव, तांचे वयर ल्हारां.
मागीर ताच्या मनमोगीन दिल्ल्या तुऱ्यांतलीं फुलां जातात ल्हारां
आनी पातळटात देगभर... आनी कॅन्व्हासभर.

केन्ना केन्ना ओले खीण, पारजताचो परमळ आनी वळखीचे रंग घेवन मनमोगीच्या स्पर्शाचे खीण
तो सारयता कॅन्व्हासार.
केन्ना केन्ना ताका- देग पिंतारतना देगच आडखळ हाडटा, तेन्ना
चार चार वेळा पिंदून उडोवचे पडटात कॅन्व्हास.

केन्ना केन्ना सांगातान चलतना, परतीचे वाटेर एक ल्हार शेणटा तेन्ना हाच्या काळजाचीं स्पंदनां भायर आयकूंक येवचीं न्हय म्हूण मोनीं दुकां पुयतात हाचे कॅन्व्हास.

वांगडान वाट चलतना केन्ना केन्ना कोण फुडें वता, कोण फाटीं पडटा, कोण ओडटा, कोण धुकलता...
ही गोंदळावपी रंगयाळी गर्दीय दिसता हाच्या कॅन्व्हासार.
कोणाचें मुखामळ वळख दाखयता हाच्या कॅन्व्हासार.
केन्ना एकांताचे सूर व्हांवत येतात, सुकोवपाक हाचो कॅन्व्हास

केन्ना तो काळजाचो इश्ट लागींच आशिल्ल्याचो आभास दिता कॅन्व्हास.

केन्ना केन्ना जनेल उगडटनाच देगभर पातळिल्ल्यो ल्हारांच्यो कंवच्यो
ताच्या पडबिंबाक रगतबंबाळ करता हाचो कॅन्व्हास.
केन्ना केन्ना दोळ्यांतले दोन थेंबे चित्रांतल्या ओंठांर देंवतात,
कवी नेत्रदान करता, ताचे खातीर- जाचो कोरोच उरला कॅन्व्हास.

केन्ना केन्ना ल्हारां वेंचतां वेंचतां सुर्या अस्तमता
तेन्ना हो तीनसांजच रकयता कॅन्व्हासार.
केन्ना केन्ना सूर्य सांवळ्यो सारयतां सारयतां अस्तमता आनी
चंद्रीमूय थकता पासयो मारतना हाच्या कॅन्व्हासार.

जेन्ना केन्ना हाता वयली रेग आनी चलत आयला ती देग सोंपत येता

तेन्ना कवीक दिसता- एके तरेचो पच्छत्तापच तो- दिसता, दर्यार मारल्यो इतल्यो रेगो- आतां मेरेन एक लॅण्डस्केप जातासल्यो, चडयिल्ल्यो जाल्यार कॅन्व्हासार.

जेन्ना ल्हारांच्या बोवाळांत संवाद शेणटा, तेन्ना एक जंगल वाडटा आनी वाटो शेणटात- कॅन्व्हासार.

जेन्ना कवी उगडटा उगडासांचें जनेल कॅन्व्हासा वयलें
आनी कवी कॅन्व्हासभर शेणिल्ले उगडास पुंजायता, तेन्ना जाणवता-
कॅन्व्हासा मेरेन देग पावल्या आनी देगभर आसा कॅन्व्हास.

हो कवी अस्वस्थ जाता तेन्ना देगेचे तिरांटे पिंदून एक शेंदरी शिंवता, तिचेर फाट तेंकयता-

आनी ल्हारांचें पांगरूं ओडून न्हिदेक पाराथता...

कवीक न्हीद लागता काय ना हें म्हाका खबर ना. पूण धर्मा, तुवें म्हजी न्हीद खळयली इतलें खरें. धर्मानंद सभावान एकमुळो निखालस न्हय. ताका एकांत मानवता. एकांतांत रममाण जावपी हो कवी- पूण दार बंद करून न्हय, दार उकतें दवरून- घरांत लेगीत अर्दो चित्रांत, अर्दो भायर.

देग आनी दिगंत हांच्या मदल्या दर्या कडल्यान ताणें देख घेतल्या.... देखून तो उदास ना. ताका निर्शेणी खबर ना. तो जाणा, ल्हारांचें भिरें परतता तें परतें येवपा खातीर.

देगदिगंता वरवीं आयज म्हाका धर्मानंदांतल्या कवीची नवी वळख मेळ्ळ्या हाची म्हाका खोस आसा.

लेखक बरयता. पूण मागीर ती साहित्यकृती लेखकाची उरना. ती वाचकाची जाता. म्हजेपरीन धर्मानंदाची म्हाका होलमल्लेली कविता तुमच्या मुखार दवरपाचो येत्न हांवें केला. तुमीय तसो येत्न करचो. तुमकां घडये वेगळो अर्थ सांपडटलो. हे वेगवेगळे मतितार्थ म्हळ्यारच कवितेची सार्थकताय.

धर्मानंदाचें मनस्पुर्वेक अभिनंदन.

संपर्क: 9422059509

***

# काळजाक हात घालपी कादंबरी : 'घडटा – घडयतां...'

नयना आडारकार

कादंबरी म्हणल्यार अदीक लांबायेच्यो काल्पनीक कथा आशिल्लें गद्य लेखन अशें म्हणटात. पूण हे काल्पनीकतेक, वास्तवाचो जेन्ना परीस स्पर्श जाता तेन्ना त्या साहित्याक एक उंचाय येता. घडटा घडयतना ही कादंबरी वाचतना हाची सतत जाणीव जायत रावता.

फ्रांसिस बेकन म्हण्टा, 'We rise to great heights, by a winding staircase, of small steps'. जीव जल्माक आयलो काय ताका आपल्या आपणाक घडोवपाक धडपडचें पडटा. ताका अपवाद मनीसजात. मनीसजातीच्या भुरग्याक घडपा खातीर, घडोवचें पडटा. दर एकल्याक तें करचेंच पडटा. मागीर ह्या घडटा घडोवपांत, खास अशें कितें आसा तर असो प्रस्न कोणाय वाचकाक पुस्तक वाचचे पयलीं पडूं येता.

ह्या घडटा- घडयतांत आसा एके आवयचें समर्पण. आपल्यो आवडीनिवडी, आपलो वेळ, दर एकली आवय समर्पीत करताच. पूण, हे आवयक आपल्या आपणाक, होमखणाच्या उज्यांत तना-मनासैत लासोवन, उबें रावचें पडलां. फकत एक ध्यास घेवन, 'हांव म्हज्या भुरग्याक, ह्या धगधगत्या भात्यांच्या उज्यांत तापोवन, ऐरणीचेर धाडावन, ताका मनीसपण हाडटलें. ते खातीर ताका घडयतलें ह्या ध्यासाचे पुर्ती खातीर ती खिणाखिणांक हुलपता, करपता आनी केन्ना केन्ना तिचें काळीज मरताय. पूण ती दर खेपे हातूंतल्यान घोण कशी जैतिवंत जावन भायर सरता. ते आवयची आनी तितलेच ताकीन तिका सांगांत दिवपी एका बापायची काणी. काणी ह्या दोगां मर्दींच उरना. आपले खातीर ह्या उज्या केणांत धगधगपी आवयबापायचेर नकळटा तृप्तीचो शिंतोड मारपा खातीर धडपडपी भुरगोय आसा. उमा-प्रभाकर-शिवन ह्या त्रिमुर्तीची ही काणी.

डावन सिंड्रोमाचीं लक्षणां आशिल्लो, मतिमंद शिवन. ताचे खुंटिल्ले शारिरीक आनी मानसीक अवस्थेंतल्यान ताका भायर काडपा खातीर काळजार फातर दवरून, ताचे कडल्यान करून घेतिल्ले प्रयोग. त्या प्रयोगा मजगतीं ताका जाल्ले शारिरीक त्रास आनी त्या त्रासांक पळोवन रक्तबंबाळ जाल्लें आवयचें मन. 'ह्या प्रयोगांच्या कांटयाळ्या निवलकाणयेंतल्यान, कितलेय त्रास जाल्यार जाता फूल फुलोवपाचेंच. असो ध्यास घेतिल्ले आवयचें, परिक्षेंच्या किसणेर खिणाखिणाक स्वताक किसून घेवन, फुडाराचे आशेन मारिल्लें पावल, घडटा- घडयतांत आमकां दिसता.

खरें म्हणल्यार अशे प्रयत्न करतल्याक समाजाचें फाटबळ मेळत जाल्यार तापते जमनीर उदकाचे कांय थेंबे पडून शितळकायेचो आभास तरी मेळूं येता. पूण हाची जाणीव समाजाक केन्नाच जायना. तो कितलोय शिकलो, सवरलो, आधुनीक जालो तरीय आपले हाड नाशिल्ले जिबेची तरसाद समाज वावडीत आसता. कोणाच्या मनाक तिचे घाय जावन फाळ व्हांवत उरतलो, ही जाणीव आसुनूय कोडगोसो तो परंपरा चलोवची अशे तरेन आपली लागणूक चलयत रावता.

समाजाच्या त्रोसांक तोंड दितां दितां, तापिल्ल्या उज्यांतल्यान भायर काडून आपल्या भुरग्याक मनीस घडोवपाचे नदरेन, ताका जाय तसो आकार दितकच, दर फळादीक जाल्ल्या प्रयत्ना उपरांत उमा-प्रभाकराच्या मुखामळार दिसून येवपी समादानाचें तेज, वाचकांच्याय काळजाकूय उमेद दित वता.

माया खरंगटेचें 'घडटा- घडयतांचें' वाचन, म्हाका 'रडटा रडयतां' करीत गेलें. एके आवयच्या काळजाक हालोवपाची तांक आशिल्ली ही कादंबरी, म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

पूण तरीय, मायाबाय एक प्रगल्भ लेखिका जाल्ल्यान, तांकां एक वाचक ह्या नात्यान कांय सुचवण्यो करीन दिसता. वास्तवाचें कथन करतना कल्पकतेचें, लालित्याचें मातशें भान हातांतल्यान तांणी सुटूंक दिलें हें जाणवत रावता. अशी भुरगीं आशिल्ल्या पालकांक समाज नांवाच्या भात्यांतल्यान, जायत्या विखयाळ्या बाणांचे घाय सोंसचे पडटात, पडल्यात. बाणांची वा उतरांची खरसाण लागींलागीं एकूच आसता आनी उतरांय एकेच तरेचीं आसतात. हें जरी खरें आसलें तरीय वाचक म्हणून हीं उतरां वाचतना तोच-तोचपणा जाणवता आनी कथानका वयली पकड सुटपाक लागता. हे प्रसंग कादंबरींत खूब कडेन आयल्यात म्हणून कांयकडेन ते सुचकतायेन दाखोवप योग्य जावपाचें अशें म्हाका दिसलें. आनीक एक गजाल म्हाका खटकली ती, शिवनाक जिमांत घेवन वतकच ताच्या अवताराक लोक भियेले अशें लेखिकेन म्हणलां. भुरगीं भियेतात हें हांव समजूं शकतां. पूण जिमांतले लोक मातशे मॅच्युअर आसतात आनी डावन सिंड्रोम भुरग्याचे चेरो जरी सपाट, पसरट आसलो आनी खुबसो वेगळो दिसलो तरी भिरांकूळ नक्कीच नासता. आतां ताचे विशीं उमळशीक वा मनान दुयेंत आशिल्ल्या लोकांक तो नाका जाल्लोसो दिसूं येता.

इतले कश्ट घेवन शिवनाक स्वताच्या पांयार उबें करतकच, शिवन आपलो पयलो पगार घेवन घरा वचपा वेळार ताची ती घालमेल, ताचें वागणे आनी ताचेमदीं आयिल्ले जापसालदारीची परिपुर्णताय वाचतना वाचक हालतलो, दोळ्यांतल्यान दुकां गळयतलो. काळजाक हात घालपी घडणुकांचें चित्रण कादंबरेंत खूब कडेन आयलां. तें वाचकाक अस्वस्थ करतलें. एक वेगळो विशय घेवन, ताचेर खर परिश्रमान अभ्यास करून, उतरांनी कादंबरींत बांदपांत मायाक येस आयलां. एक बरी कादंबरी वाचकांच्या हातांत दिल्ले खातीर मायाक परबीं भेटयतां.

**घडटां घडयतां... (कादंबरी)**
बरोवपी: माया अनिल खरंगटे
प्रकाशक: मोहीत प्रकाशन, मडगांव-गोंय
पानां: २३८
मोल: ३०० रुपया

संपर्क: 8767657635

***

## 'जागा'क आनी हेर नेमाळ्यांक...

पोरूं वर्साच्यान म्हाका 'जाग' बेगीन येता. म्हळ्यार 'जाग' म्हयनाळें म्हयन्याचे पयलेर हातांत पडटा. हाची खोस हांवें रोकडीच राजूक फोन करून उक्तायल्ली. पूण दुगदुगो दिसतालो. एक भंयसो! स्कुलांत शिकतना हांव रेल्वेन मडगांवां यो-वच करतालों. गाडी सदांच लेट जावप. एका सोमाराक गाडी रायट टायम आयली देखून सगल्या पॅसेंजरांनी वचून स्टेशनमास्तराक परबीं दिलीं. जाल्यार मास्तरान सांगलें, 'ही काल पावपाची आसली ती आयज पावल्या.' जागान वर्साची सुरवात तर बरी केल्ली. पूण एप्रील म्हयनो लागीं पावलो तेन्ना हुसको दिसलो. आतां 'जाग' आमकां एप्रिल फूल करना बी मूं अशी पाल मनांत चुकचुकली. आतां आनी एक उगडास जो घडये घडये म्हाका याद जाता, सांगून उडयतां. म्हगेलो (पोरूं वर्सा सोंपिल्लो) इश्ट, शांताराम वालावलीकारान सांगिल्ली गजाल. जनरल मॅनेजर म्हूण तो रिटायर जावचे खूब आदली ही खबर. तो सेझा गोवा कंपनींत काम करतालो. सद्दां वेळार पावतालो आनी केन्ना रजा म्हणटात ती घेनासलो. तागेली सेवावृत्ती आनी शें प्रतिशत हाजिरी पळोवन ज्या दिसा कंपनीन ताच्या प्रमोशनाची गौरवपुर्वेक घोशणा केली त्याच दिसा खंय जिवाक बरें दिसना म्हूण ताणें सीक लीव्ह मारिल्ली. 'जागा'नूय म्हाका तशें केलेंना जाल्यार पुरो अशें येवजितां थंय आसां- 'जागा'न म्हाका एप्रील फूल केलोच. पूण उरफाटो. एप्रिलाची एक तारीख येवचे पयलीं ३१ मार्चाकच आंक म्हज्या हातींत पडलो- तोय बी पोस्टान.

'जाग' नेमान आयलो आनी वेळार हातांत पडलो जाल्यार म्हजे खोशयेक शीममेर उरना. एक काळ असो आसलो जेन्ना कोंकणी नेमाळें नेमान येवप हेंच एक विज्मीत कशें दिसतालें. 'जागा'चो दिवाळी आंक चडसो उसरां पावतालो. केन्ना केन्ना तर दिवाळेचो आंक नातालां कडेन मेळटालो. एक दीस रवींद्रबाबान म्हणिल्लें लेगीत- 'जाग दिवाळी आंक पोस्टांत पडटा त्या दिसा आमची दिवाळी.' ह्या तांच्या उलोवण्यांत विनोद नाशिल्लो. तर खंत आशिल्ली. उद्वेग आशिल्लो. त्या उतरांतलो विषाद जांच्या लक्षांत आयिल्लो तांच्या दोळ्यांच्यो पातकड्यो ओल्यो जाले बगर रावल्यो नासूंये. तो काळूच तसो आसलो. नेमाळीं सगलीं मेळूण आसतालीं स साडेस, वर्सावळीचे दिवाळी आंक धरल्यार चडांत चड आठ थंय धा. आनी सगले एक खांबी तंबू. साहित्य मेळोवप जालें ना जाल्यार आपणेच बरोवन आंक भरप. हें कोंकणीच्या मोगान करप जातालें. पूण जायराती मेळोवप म्हा कठीण काम. सरकार दरबारांत फावटी मारप वा उद्देगपतीं कडेन भीक मागप हें नामुष्कीचें काम. तरिकूय कोंकणीच्या आनी साहित्याच्या मोगाक लागून आमगेले म्हालगडे हें काम करताले. पूण पोटतिडक तिडक हाडटा तरी पोट भरना. ताका लागून आंक वेळार पोस्टांत उडोवप हें एक दिव्यच आसतालें. मागीर आंक एक तर उसरां येतालो वा येच नासलो. केन्ना केन्ना जोडआंक काडप जातालें. चड करून पावशी दिसांनी. वर्सांतल्यान दोन वा तीन खेपो अशे जोडआंक येताले. हाच्या वयल्यान नेमाळीं चलयतल्यांची काकुळटायेची आवतिकाय लक्षांत येतली. दिवाळी वा नाताल आंकाचो व्याप तर केदो व्हडलो! जायरातीं खातीर लोकांचे पांय धरपाची तयारी दवरूनूय येस पदरांत पडनासले. गोंयच्या सरकारा कडेन बजेट आसतालें. महाराष्ट्रांतल्या संखेनी दिवाळी आंकांनी गोंय सरकाराच्यो जायराती वाचूंक मेळटाल्यो, आजुनूय मेळटात. पर्यटन खात्याच्यो समजूं येता. पूण भौशीक बांदकाम खात्याच्यो आनी पर्यावरणाच्यो जायराती गोंया भायर कित्याक? पूण हें सांगून सांगून आमगेले जाणटेले थकले. वायट इतलेंच दिसता, तांणी केल्ल्या वावरान फळादीक जाल्ल्या घटकराज्याचीं फळां आयज आमी चोखून चोखून खातांव. पूण ताची जाण झुटयेर आशिल्ल्या पडमुरांक आसल्यार मूं?

गुरुनाथ केळेकार (नवें गोंय, मारुती), अमृत कांसार (आंकूर), यशवंत पालेकार (कोंकणभारती), फेलीस्यु कार्दोझ (सत), सुहास दलाल (परमळ), सुरेश काकोडकार (पुनव), हेमा नायक (चित्रंगी), तुकाराम शेट (कोंकण टायम्स), एन. शिवदास (उर्बा), भिकू बोमी नायक (जैत), अशा जायत्या जाणांनी आपले हात हुलपावन घेतल्यात. तेभायर कोंकणी भाशा मंडळ, कुळागर प्रकाशन, बारदेस आस्मिताय केंद्र, कुडचडेचीं शणै गोंयबाब केंद्र आनी अस्मिताय केंद्र, ह्या सगळ्यांनी नेमाळीं तिगून उरचीं म्हूण खूब येत्न केले. ह्या सगळ्यां मदीं पांय घट रोमून उर्बी आसात तीं, गुलाब सोडल्यार, दोनच. 'जाग' आनी 'बिम्ब'. 'जागा' फाटल्यान माधवीची पुण्याय आसा. आनी बिम्बा फाटल्यान दिलिपाली जिद्द. दिलिपानूय नेमा भितर खंड पडूंक दिलो ना. पोरूं एप्रीलाचो आंक उसरां आयलो तेन्ना म्हाका हुसको जालो. फोन लायतकच कळ्ळें दिलिप थंडी जोरान हांतरुणार आसा. तरिकूय चार दीस उसरां आयलो तरी आंक हातांत पडलो आनी जिवाक सू जालें. आतां आंक वेळार हातांत पडपाची इतली संवंय जाल्या की हालींसराक चार चार दीस फुडें वता तेन्ना तिश्ठत लागता. फा. फ्रेडी डि कोश्ता हांनी गुलाब म्हयनाळें कशें पोटतिडकेन चलयलें तें हांवें लागींच्यान पळयलां. आयज ती जापसालदारकी तांचो भाव फावुश्तबाब फुडें व्हरता. तांकां कितें भोगता तें तांकांच खबर. पूण वेळार येता हाची खोस आसा.

डिसेंबरांत वेंचणूको बगलेक आसूनूय म्हाका ज्ञानपीठाचीं परबीं दिवपाक वेळांत वेळ काडून मुखेलमंत्री आयिल्लो तेन्ना ताणें हांवें काडिल्लो शीण आयकून घेवन ताणें उतर दिल्लें- सगलीं न्हय जाल्यार थोडीं तरी कामां करून दाखयतलों म्हूण. आतां नवें सरकार आयलां. कोंकणी विशींची सरकारी अनास्था खूब जाली. ह्यान फुडें ही बेपर्वाय उपकारची ना. हीं आसात तीं नेमाळीं चालू उरचीं आनी नव्यान वयर सरपी नेमाळ्यांक प्रोत्साहन मेळचें हे खातीर तांकां अर्थीक पालव दिवप ही सरकाराची लागणूक. ती जाणीव करून दिवप हें आमचें लेखकांचें तशें वाचकांचें काम. तें आमी करुंया. सरकारान 'ना' म्हळें जाल्यार तांकां लजेक घालपाक आमी फाटीं रावचें न्हय. पूण तशी गरज उप्रासची न्हय. आनिकूय खूब वावर जावंक जाय. पूण ते विशीं उलोवपाची सुवात वेगळी.

इतलो वावर ताणीं करूं आनी नव्या सरकाराक परबीं दिवपाची संद आमकां मेळूं.

**– दामोदर मावजो**

संपर्क: 9422059509

## 'तमसोमा'च्या संबंदान...

'जागा'चो 'एप्रिल २०२२' अंक पावलो. 'तमसोमा' : शंकर रामाणींची एक कविता- हे कवितेचेर समिक्षक एस. डी. तेंडुलकार हांणी बरयल्लो समिक्षालेख वाचलो. हे आदीं हांवें तो 'जागांत' वाचिल्लो. तुमी तो परतून उजवाडायला हें खूब बरें केलें. कवितेच्या आशयाचे खोलायेंत देंवून तेंडुलकारान ते कवितेचें समरसून विश्लेशण केलां.

'तमसोमा' ही कविता रामाणीन rewrite करपाक जाय आशिल्ली अशें म्हाका दिसता. रामाणींचो मुक्तछंद कवितेच्या बांदावळीचे नदरेन म्हाका सदांच विस्कळीत दिसला. तेंडुलकारान म्हणलां तशें '..कारण मुक्तछंदांत आशया नुसार उतर खंय तोडचें आनी खंय जोडचें हाका म्हत्व आसता. पॉजांक भोव म्हत्व आसता. आनी रामाणीची मुक्तछंदातली कविता ते विशीं जायते फावटीं बेफिकीर रावता, अशें रसीक म्हणून म्हजें मत.'

रामाणींच्या मुक्तछंदांतल्या हेर कवितांनीय हो दोश दिसता. आनी ह्या दोशाक लागून तांच्यो मुक्तछंदातल्यो कविता वाचतना वाचपी आडखळटा. सोंपणा चड्टना पांय घुस्पून पड्टा तशी गत जाता. ताका लागून वाचपी कवितेचो फाव तसो आस्वाद घेवंक पावना. हाची देख म्हणून 'जात्रा उलगतकीर' हे कविते कडेन पळोवं येता. ही कथात्म शैलींतल्यान बरयल्ली कविता. अस्सल अणभवाची खरसाण हे कवितेक आसुनूय विस्कळीत बांदावळीक लागून ही कविता फसल्या कशी दिसता. कवितेचो effect जो totality न जाणवूंक जाय तो निमाणे मेरेन खंयच जाणवना. हे कविते विशीं आनी तांच्या हेर कांय मुक्तछंदांतल्या कवितां विशीं कवी रामाणींक हांवें पत्रांतल्यान बरयल्लें पूण 'हो ××भर पोर आपल्याक कितें सांगता' अशी तांणी समजूत करून घेतली आनी थंय आडनदर केली. दुसरी गजाल म्हणल्यार- रामाणींक टिका निखालस सहन जायना आशिल्ली. कोणेंय आपले कवितेचेर कितेंय बरें-वायट मत दिल्यार ते अस्वस्थ जातालें. तटस्थपणान आपूण आपले कविते कडेन पळेतां अशें तांणी कितलेंय सांगलें तरी ते आपले कविते संबंदान चड भावूक जाताले हाचो अणभव म्हाका आयला. टिकेचो मूळ हेतू कुशीक दवरून रामाणी तोंकाची भुमिका घेवन ती गजाल 'पर्सनल' घेताले. आपले कवितेचेर टिका करतल्याची तांकां भिरभिरी मारताली. हो तांचो सभाव निमाणे मेरेन तसोच उरलो.

'परेश कामत आपले कविते विशीं अशें-अशें म्हणटा तें तुमकां पट्टा व्हय? तुमचें सविस्तर मत कळोवचें' अशें पत्रांतल्यान तांणी रवीन्द्र केळेकाराक बरयलें. तें पत्र रवीन्द्र बाबान म्हाका वाचपाक दिल्लें म्हणून म्हाका समजलें. माधव बोरकाराकूय रामाणीन बरयलां आसुंयेता.

पूण निमाणे मेरेन- आपले तेच सदचे पद्धतीन रामाणी मुक्तछंदातल्यो कविता बरयत रावले. 'आव्हेमारीया' हे रामाणीचे म्हाका अत्यंत आवडिल्ले मराठी कवितेंत लेगीत होच दोश दिसता.

एक कविता घेवन ताचेर विश्लेशणात्मक समिक्षा करप एस्. डी. तेंडुलकार हांकां खूब बरें जमता. 'वालोर' ह्या तांच्या समिक्षेच्या पुस्तकांत तर अशे तरेचो बेस बरो प्रयोग केला. 'धुमकेतू' हे कवितेचेर वा 'तुकारामाच्या अभंगांचेर' तांणी केल्लें भाश्य वाचतना refreshing अणभव मेळटा.

मराठींतल्या 'लिटल मॅगझीनान' आधुनीक साहित्य चोखंदळ वाचकां मुखार हाडलें. तशे तरेची साहित्य-चळवळ दुर्देवान कोंकणींत ना. 'जाग' हें एकूच नेमाळें कोंकणींत आसा ज्याका लागून गंभीर स्वरूपाचें साहित्य उजवाडाक हाडपाक थोडो भोव आदार जाता.

**– परेश कामत**

संपर्क : 9422640210

***

*(पान १६ वयल्यान)*

येतात हाका अंत ना. पावसांत तर किडी-किड्यांचे, जीव जंतूंचे सुटपी स्राव आनी द्राव, झाडांतल्यान पाझरपी स्राव हांचो संमिश्र परिणाम ''ए शाण्या, तूं सैमाचो घटक आसा, तूं प्लास्टिकाच्या कुडक्याच्या स्मार्टफोन सारको न्हय रे जिव्या मनशा!'' हाची याद करून दिता.

आमच्या भुरगेपणात केरोसीन आसतालें. ताकाच पेट्रोल म्हणटाले. रातच्या दिव्यांतलें हें इंधन. आमच्या घरा चोडणा भुसारी दुकानांत आजो गल्ल्यार बसतालो. गिरायक लोक येताले. मदीं कोणूय पेट्रोल विकत घेतालो. आजो ताका ताच्या बाटलेंतल्यान पेट्रोल दितालो. त्या वेळार सहजपणान कितलेशेच पेट्रोलाच्या गंधाचे कण हवेंत उडत आमच्या नाका कडेन खेळटाले. हांव थंयच लुडबुडत, फाटीं फुडें जायत घुटमळटालों. आजो विचारी - तुका चॉकलेट जाय? म्हाका तो पेट्रोलाचो वास जाय जायसो दिसतालो.

पेट्रोल पंपाचेर आज लेगीत गेले जाल्यार वीस मिनटां थंय रांकेंत रावन भायर आयलो जाल्यार येनाफुडें आंगाक पेट्रोलाचो वास आयिल्ल्याचो भास जाता. मेकानिका कडेन थोडो वेळ रावात आनी भायर सरात. ऑयलीचो वास तुमच्या सर्वांगाक येवपाक लागता.

कारण सादें. सज्जनांच्या संगतीक रावशात जाल्यार चंदनाचो सुगंध येत रावतलो. दुर्जन मित्र आसत जाल्यार दुर्गुणांचो दर्प येवपाक लागतलो. आमच्यांत प्रेम भरून आसचें. उप्पट. प्रेमाचो आसचो. काजू वा आंबो पिकतकच जसो रोसाचो आनी फळाचो सुगंध भोंवतण ताब्यांत घेता, नेमको तसो, आमच्यांत प्रेमरोस भरिल्लो आसचो. लागींच्यान वचप्यांक ह्या अत्तराचे थेंबे आपणाचेर पडले अशें दिसचें. बरें दिसचें जिवाक. संतकवी रूमी म्हणटा -

If you can't smell the fragrance don't come into the garden of Love. (सुगंध हुंगूंक शकनात जाल्यार प्रेमाच्या पोरसांत येवं नाकात)

संत कबीराक एकल्यान म्हळें - तुमच्या लागीं येनाफुडेंच प्रेमरोसाचो पानो फुटिल्ले भशेन सुगंध विखुरता... कबीरान ताका मदींच आडोवन म्हळें - क्या कहे कबीर कबीर, जा जमुना के तीर, एक एक गोपी प्रेम में बह गये लाख कबीर.

मनीसपण, करूणा, दया ह्या रोसांनी जो भरिल्लो आसता, ताचो वास आनी सहवास जण एकल्याक जाय जायसो आसता. ग्रहण करप्याच्या काळजाच्यो नाका पुडयो मात नितळ निवळ जाय. त्यो चोंदिल्ल्यो आसूंक उपकारना. काळजाचें नाक मात निवळ जाय. फुलां, फळां, झाडां, सैम सुगंध दितात. आमी मनशांनी निदान प्रेमरोसाचो परमळ तरी दिवंक नाका?

संपर्क : 9545827662

***

# कविता

## फुलांच्या देशांत...

**माधव बोरकार**

मळबांत चंद्र
वाडवल्लो दिवो
फुलांच्या देशांत
दिसाचो दिश्टावो

मनांत किलबिल
उजवाड सवणी
भिजता दोळ्यांतलें
म्हज्या दुकांचें पाणी.

फुलांच्या देशांत
पर्मळाचो कल्लोळ
रुजता सुरांत
पर्जळाचो बोल...

संपर्क: 9420222876

***

## वाट

**राजश्री महाबळेश्वर सैल**

ह्या महाभंयकर काळात
कोण कोणाक उबारतलो
आपल्या खांदार उखलून
मातयेक लायतलो
म्हणपाची शाश्वती ना.

सगलेच बरगल्यात
मोडकळीक पावल्यात
सगल्यांचेच जाल्यात
हाडाचे सांपळे
आता आपणेच आपणाक
उखलपाचें पुराव पुंजावन
एकठांय करपाचें
आनी वाट धरपाची.

संपर्क: 9922265209

***

## आनंद

**काशिनाथ शांबा लोलयेकार**

काळ आंगार धांवून येता
काळ म्हाका खावंक येता
थंयचे थंयच गोठून वचुंक जाय हो काळ
गर्भासारको

काळाचो कोर काळो काळोकिट्ट काळखासारको
उजवाडाचो स्फोट जाल्ल्यासारको
वर्तमानभूतभविश्य हे त्रिकाळ एक जाल्ल्यासारको

हाताक बंद पडलेलें घडयाळ बांदून
काळ आनी वेळ हातांत हात घालून भोवतात
खंयतरी पैस घंटा वाजतात

काळाच्या साणीर हांव घासून पळयतां
म्हज्यो भावना म्हजे विचार म्हजी अख्खी जीण
चकचकता तें सगलेंच भांगर न्हूं
खरे चकचकतात ते जीर्णेतल्या दुख्खाचे खीण

हांव गडप जातलो काळाभितर
आनी काळ म्हजे भितर
काळ वाट पळयता

कितलो काळ गेलो खबर ना
हांव गर्भाशयाच्या पांदऱ्यांत बंद
जीर्णेत हांव थरलो सामको अपेशी
पूण मेल्या उपरांत उरता फकत आनंद आनंद आनंद ?

संपर्क: 9049814854

***



## रुमी

**अणकार- मुकेश थळी.**

१
तूं जितलो शांत जातलो
तितलो चड आयकतलो
२
हुशारी वीक
आनी
आबुजपणां विकत घे
३
काल हांव हुशार आशिल्लों.
जग बदलूंक सोदतालों.
आयज हांव शाणो जालां
म्हाकाच बदलतां
४
तूं किर्ते सोदता
ताचे वेल्यान थारता
तुजी पात्रताय
५
केन्नाच एकलो समजूं नाका.
आख्खें विश्व तुज्यांत आसा.
६
प्रेम
तुज्या आनी सगळ्यां मदलो
पूल
७
खूब जालीं उतरां
म्हजे सरीं वेतना
पावलटी विर्णे वो.
८
जाणें आतां मेरेन सांबाळ्ळो पतकर
तोच करतलो मुखारव मार्गदर्शन
९
जितले खोलायेन काळजांत वता
हारसो निवळ जावत वता.
१०
आसतां हांव मौन
पावतां अशा विश्वांत
जंय सगळेंच संगीत

संपर्क: 95458278*662

***

## टोंक मोडिल्लें

मनोज नरेंद्र कामत

आयज एके पेन्सिलीचें
टोंक मोडिल्लें

हेच पेन्सिलीन
हांवें भिरकटायल्ल्यो वणटी
भुरगेपणांत
खाल्ल्यो तापसणी

गिरयल्ल्यो बाराखडी
चार ओळींचे चोपडेंत
अक्षराक वळण मेळपाक

अक्षरां जुळोवन
उतरां घडयतना
म्हज्या मुखामळार
पातळिल्ली धादोसकाय!

ह्याच उतरांचीं
वाक्यां जालीं
भास वाडली
उतरांनी दैंवली
तिणे निबंद बरयले
सोबीत उतरांचे थाटणेन
कवनां रचलीं
अक्षरांची मोतयां करून

बदलिल्ल्या काळाप्रमाण
भुगोलांतले नकाशे रंगयले
भूमितींतले काटकोन चितारले
जिवशास्त्रांतले अवयव पितारले

मोगांत पडटकच
स्केच स्ट्रोकस् मारले
चित्रां रंगयलीं
सोबीत दोळ्यांचे
खोलायेंत लिपिल्ल्यो भावना
कागदाचेर उब्यो केल्यो
कायेच्यो बारिकसाणी दाखोवपी
कयास कसबांतल्यान थाटले
उर्बेची मोडणां येत

नवे पिळगेकूय
हेच पेन्सिलीन
हाताक धरून
अक्षरांचो फुडार
उतरांचो संस्कार
वाक्यांचो भाव समजायलो

आयज अचकीत
पेन्सिलीचें टोंक मोडलां
गिरमिटाच्या उगडासान
हांव शेणलां
नवें टोंक काडपाक
परतून यादी जुवान करपाक

संपर्कः 9356882785

***

## दोन कविता

परेश नरेंद्र कामत

### अथांग

जीण पातळटा
दर्या वरी अथांग जावन
उदक

ल्हारां उसळटात
स्वास जावन दर्याचे
जिर्णेत

*

### सूख

ओंठांतल्या ओंठांत
आयलें फुलून
उमो कशें
सूख

संपर्कः 9422640210

***

## भायर आनी भितर

आर. रामनाथ

फुटूंक दी म्हाका पुराय
आनी ओतूंक दी म्हाका तुजेर
योग्यांनी...

सोंस तूं म्हाका मोन्यांनी
आनी भीज तूं
भायर आनी भितर
चिंब चिंब...

नक्कीच तूं
नकळटना
हुंवारतलें
भायर आनी भितर
म्हज्या सयत...

संपर्कः 9850458763

***

## मोग

अलका सिनाय असोळडेकार

मोग ह्या उतराभितर
मन घुसपत रावलें
तें सोडयता म्हणसर
मळबांत कुपां दाटून आयलीं

मोग म्हळ्यार एक तप
फांतोडेर पडिल्लें एक सपन
आनी रेंवटात एक
आंकरी फुटिल्लें झाड

मोग एक अविश्कार
मनशाच्या मनाक
थाकाय दिवपी एक अस्त्र
काळजा मेरेन पावोवपाच्यो भावना

संपर्कः 9822981107

***

